


# काणयां झेलो

(काणयो)

सौ. गीता नारायण नायक

काणयां झेलो (काणयो)
सौ. गीता नारायण नायक
Kanayan Zelo (Stories)
Mrs. Geeta Narayan Naik



प्रथमावृत्ती : २८ मार्च २०१७

प्रकाशक
सौ. गीता नारायण नायक
'अशिना प्रकाशन'
'कृष्णशील'
माँत हिल
बोर्डा, मडगांव - गोवा
पो.बॉ.नं. १२५
फोन : ०८३२ - २७३१९४५
मो नं. ९९२२९२२१०९




रेखाचित्रां : य. बा. सुतार
मुखपृश्ट : पुष्पराज पोपकर

अक्षरजुळणी : निमिष ग्राफिक्स ०८३२-२४४३५२२

मुद्रक : लोकमान्य प्रोसेस, खोर्ली, ओल्ड-गोवा

मूल्य : ₹ १५०

# मनोगत

'काणयां झेलो' हें कोंकणी काणयांचे दुसरें पुस्तक उजावाडायतना म्हाका भोव खोस जाता.

म्हजी नात शिवानी म्हाका सदांच म्हणटालें, ''आजे, तूं म्हजें 'स्टोरी बुक'. म्हाका नवी काणी सांग.''

ताच्या वेल्यानच पुस्तक बरोवपाचो विचार म्हज्या मनांत आयलो. म्हज्या आवय-बापायन सांगिल्ल्यो देखदिण्यो काणयो हांवे बरोवन काडल्यो.

पुस्तकाचे शुद्धलेखन अनंत अग्रीसरान सांबाळलां.

नामनेचे कवी चित्रसेन शबाब म्हळ्यार य. बा. सुतारसरांनी सुंदर चित्रां काडून पुस्तकाची सोबा वाडयल्या.

देव तांका बरें करूं अशें आंवडेतां. म्हाका उर्बा दिवपी सगळ्यांचे हांव उपकार मानतां. वाचन-संस्कृतीक हातभार लागचो इतलीच म्हजी इत्सा.

**सौ. गीता नारायण नायक**

# मांडावळ

# वाग आनी धुकर

धेगस म्हळ्यार एक व्हडलें रान आसा. सामकें अटंग रान. एक दीस त्या रानांत खुरसामळार सोडिल्लें धुकराचें एक व्हॉंर पावलें. तो सोलोग आनी तें लैतांव. खरें म्हळ्यार तांकां कोणेय देवाक सोडूंक नाशिल्लीं. भोंवतां भोंवतां तांचे फाटल्यान एक सुणो लागलो. तीं जीव खावन होंक् होंक् करत जीं व्हाळाच्या देगेन धांवलीं तीं थेट धेगसांत पावलीं. रान इतलें सोबीत आसलें की तांकां आपल्या घुडाचो वीट आयलो. ताणी थंयच आपलो संसार मांडपाचो थारायलो.

ताणी एक बरीSSS घोल सोदली. भोंवतणी दाट झाडी वाडिल्ली. लागींच एक व्हाळ व्हांवतालो. ताचे देगेर रेब्याची कोंड आशिल्ली. तांकां पोट भरपाक तर रान मेकळेंच आशिल्लें. जालें, तांकां आनीक कितें जाय? दीसभर गीळ आनी जीव जड जातगीच रेब्यांत लोळ. दोगांय जाणा आंगान फुलत गेलीं.

कांय दिसानी लैतांवान सात पिलां काडलीं. आवयचें दूद पिवन तीं व्हड जालीं. तातलें तीन नंबरचें पील सामकें हुतहुतें आशिल्लें. एक दीस आवयची नदर चुकोवन तें हेडपाक गेलें. त्या दिसानी रानांत एका वागाची डरकाळी कानार पडटाली. नेतल्लेच्या रानांतल्यान तो वाट चुकून थंय पाविल्लो आसतलो.

म्हणूनच आवयन एकटींच भायर वचनाकात अशें तांकां सगळ्यांक शिटकायिल्लें. पूण आवयचें काना मनार घेतल्यार तें हुतहुतें कसलें?

तें पोर भोंवतां भोंवतां ताका तान लागली. तें व्हाळाच्या कुशीक उबें रावन चक्चक् करून जीबेन उदक पिवंक लागलें. व्हाळाच्या वयल्या वटेन एका तळपा फाटल्यान वाग बशिल्लो. त्या पिलाक पळोवन ताची भूक चाळवली. हरशींय तो दोन दीस जाले उपाशीं आशिल्लोच. पिलाच्या लुसलुशीत मांसाच्या चिंतनानच तो फुल्लो.

ताणे पिलाचेर एक धेंगसो घालो, "आगो शोणला, तुका मद मारला सो दिसता. हांव हांगा उदक पिता आसतना तूं म्हजें उदक भश्टिता? कापास्ताद तुजी! अर्र्र्र्र्र तूं, चल यो



हांगा. तुका बुद्द शिकयतां आतां''.

त्या पिलाक खावपाक कितेंय तरी निमित्त जाय आशिल्लें म्हण वागान ओगीच एक फार सोडिल्लो. तें पोर सामकें भियेलें कुंकुंकु करत तें घोली वाटेन धावलें. वाग ताचेर उडी घेवपाच्या तजवीजेन आशिल्लो. इतले म्हणसर पोराक सोदपाक भोंवतालो तो सोलोग थंय पावलो. .

''बाबा बाबा, वाग म्हाका खावंक सोदता. तो म्हणटा हांवें तोंड लावन व्हाळाचें उदक भश्टिलें.'' धुकराक समजलें. आपल्या पिलाक खावपाची ही ताची माण्णी आसतली म्हण.

ताणे वागाक दबकायलें, ''खबरदार, म्हज्या पिलाच्या



वाटेक वचशी तर! कितें उलवपाचें तें म्हजेकडेन उलय.''

वाग थोडोच धुकराक भिता! ताणे म्हणलें, ''यो, तूं येता जाल्यार यो! आनी दाखय कितें दाखयता तें!''

धुकर तो धुकर. ताचें वागा मुखार कशें चलतलें? ताणे म्हणलें, ''आज म्हाका फावना. फुडल्या पुनवेक आमी हांगाच वयल्या मळार मेळूंक या. दोगांची सर्त दवरया. पळोवया कोण जिकता तो.''

वाग थोडोच भिता! आज ना जाल्यार फुडल्या पुनवेक हो येदो धुकर तावडींत सापडटा. मागीर म्हजी मजाच मजा.

जालें, सर्त थारायली आनी दोगीय आपल्या वाटेक लागले.

वाग सोशे, हरणां बी मारून खातालो. आपल्याक मालीस करपाक ताणें कोल्याक आफयलो. शेकराच्या शेंपडेन ताणे ताची ल्हंव साफ केली. आंगाक पडिल्ल्यो किट्ट्यो काडपाक ताणे आंगाक चिंवरी पानाचो रोस लायलो. पुनव येतासर वाग सामको नट कसो तयार जालो. ताची ल्हंव सामकी तिकतिकताली.

हे वटेन धुकर मात्सो चिंतनांत पडिल्लो. त्या वागाचो नेट कसो देंववूं? वागाक कसो हरवं तेंच ताका समजनाशिल्लें. ताणे आपल्याभशेन वागाक भिशटावपाक म्हण पैज मारिल्ली.

लैतांव मात् तकलेन फीन आशिल्लें. बोड खरपीत घोवाक तिणे एक तकली दिली. सोलोग सामको उर्बेभरीत जालो.

दुसरे दिसाच्यान तो सकाळीं उठून रेब्यांत लोळटालो आनी

वताक सुकतालो. सांज जायमेरेन ताका आनी दुसरें कामच ना. बायलय बी ताच्या आंगाक रेबो थापताली. रेबो आंगार सुकून सुकून ताचो  दाट थर तयार जाल्लो. धुकरान तळपार घांसून घांसून आपले सुळे आनी दांत सामके धारदार  केले.

करतां करतां पुनव तेंकली. सांज जायत आयली वाग पांचांकच येवन बशिल्लो. मात्सो काळोक पडटासो पळोवन धुकर मळार आयलो. मांस खावन गुबगुबीत जाल्लो वाग पळोवन तो मात्सो निर्शेलो. तरीकय उसणे अवसान हाडून ताणे वागाक आपूण तयार आसां म्हण सांगलें .

ताणी पैजेचे नेम थारायले. धुकरान म्हणलें, ''तूं त्या मुल्यार राव; हांव ह्या मुल्यार रावतां. पयलीं एकट्यान धांवन वचप आनी दुसऱ्याक घांस मारप. मागीर दुसऱ्याक पयल्यान घांस मारप. चलता मरे तुका?''

''हय, हय चलता. चल सुरू करया. तूं पयलीं घांस मारता काय हांव मारूं? चल तूंच घास मार.'' वागान उदारपणान सांगलें.

धुकरान म्हणलें, ''नाका, नाका. तूं सायब! पयलो मान तुजो.''

''तशें जाल्यार तशें. हो, आयलों हांव.'' अशें म्हणत वागान धांव मारली. काळोख  पडिल्ल्यान ताका सारखें दिसनाशिल्लें. ताणे घांस मारलो तो धुकराचो कुडकोच काडलो. तो परतलो. पूण हें कितें सगळी मातीच माती. मांसाचो एकूय कुडको ना. तो येवजिता थंय आसा धुकरान मुसंडी मारली आनी आपल्या

धारदार दातांनी ताच्या लुसलुशीत आंगाचो गुळोच तोडलो. वागाच्यो बोबो पडल्यो. हें आनी कितें!

दुसरे फावटी दाखयतां ताका! अशें म्हणून परत ताणे धुकराचो लचको तोडलो. परत मातीच माती. आज म्हजें कांय खरें दिसना. परत म्हाका ताणे घांस मारत जाल्यार म्हजीं हाडांच भायर सरतलीं. धुकर येवचे पयलीं पपा काडिल्ली बरी. वागान आनीक वेळ केलो ना. दिसता ते वटेन ताणे शूट मारली.

धुकराकय सूऽऽऽ जालें. ताच्या आंगावयली माती आतां झडिल्ली. हे फावट वाग आयिल्लो जाल्यार एकाच घांसाक ताचें रामनाम सत् करतलो आसलो.

धुकर पैज जिखिल्लो. ताका भिवन वागान आपलें बिटगें नेतल्ले व्हेलें.

बोड वापरिल्ल्यान हड्ड्यार आयिल्लें संकश्ट धुकरान खड्ड्यार घेतलें म्हणच तो सयसलामत सुटलो.

---

देख : **जे सुवातेर शक्त कामाक येना, ते सुवातेर बोड वापरूंक जाय.**

# पैशांची खाण



कुटबण रस्त्यावेल्यान वतगीच फुडें एक आडवो मातयेचो रस्तो गेला. तो सामको मोर्तूबाबाल्या चारचौपेटीच्या दारांत पावला. दोन पावलां घालीं की तांच्या घराचो सोंडयो दिश्टी पडटा. त्या सोंडयाचेर धोलतेर घालून मोर्तूबाब चडसो बशिल्लोच आसतालो. थंय बसत जाल्यार वाटेन येतले वतले सगळे लोक ताका जाप करताले.

खरें म्हळ्यार तो एका जाग्यार बसपी मनीस न्ही. पूण ताचे

पांय धड नाशिल्ल्यान ताका चलप कठीण जातालें. ताच्या दाव्या पांयांक मार बशिल्लो. थंयची शीर दुखाविल्ली. आत्र्यापयन्यान त्या शीरेचेर ताका गोळ येतालें. तें गोळ आयलें म्हणटकीच पांय सामको तटतटतालो. पांयांची शीर ओडटाली. पांयांर पेज पडनये म्हणच तो चडसो बसून रावतालो .

गांवांत दोतोर नाशिल्लो. पूण एक वैज आशिल्लो. ताचें नांव सीताकांत. तो तकलेक फेटो बांदतालो. धोतराचेर बंडी, खांदार वखदांची झोळी आनी पांयांत करकरीत चामड्याचें जोतें घालतालो. ताका पळयतनाच सामको पेज पडटालो. दुयेंतीक दिसतालें आतां हांव खणखणीत निवळटलों. तोच सगळ्या गांवांतल्या दुयेंतींक वखदां दितालो. ताचो हातगूण सामको बरो. मोर्तूबाब ताचे कडेनच आपल्या पांयांचेर उपाय करतालो. ताणे हात लावन वखद दिलें रे दिलें दुसरे दिसाकच गोळ दपटतालें. दुयेंस बरें जातालें. पांय सामको बरो जातालो. पूण म्हयने भरान परत गाडी त्याच रूळार येवन थांबताली. घे! ताचो पांय येदो मोSSट्टो जातालो. कितलीशीं वर्सां हें अशेंच चलत आशिल्लें.

अशीं वीसेक वर्सां फाटल्यान पडलीं. वैजाचीं भुरगीं व्हडलीं जालीं. एका चल्याक ताणे दोतोर केलो. चलयांचीं लग्नां केलीं. एक दीस ताका म्हयने भरा खातीर भायल्या गांवांत वचचें पडलें.

ताणे आपल्या दोतोर पुताक सांगलें, ''म्हयनोभर हांव ना. गरज पडत जाल्यार म्हज्या दुयेंतींकडेन मात्शें लक्ष दी''.

चल्यान तकली हालयली. वैज गांवाभायर वचून काम करून म्हयने भरान परतो आयलो. वाटेरच ताका रोंत घेवन कामाक वतालो तो मोर्तूबाब मेळ्ळो.

"कितें, मोर्तूबाब कशे आसात? पांय कितें म्हणटा तुमचो?" ताणे चवकशी केली.

"कसो आसा काय म्हणटा? सामको फोर्त आसा. तुमचे भाशेन तुमच्या पुताच्याय हाताक गूण आसा. तुमी हांगा नासतना म्हजो पांय सुजलो म्हण हांवें तुज्या पुताक दाखयलो. कितें सांगूं तुमकां ताचें इस्तिमसांव! ताणे गोळ कापून म्हजो पांय सामको बरो केलो. आतां परतो म्हजो पांय केन्नाच सुजचो ना अशें सांगलां ताणे. देव बरें करूं ताचें!"

"बरें जालें तर. देव पावलो तुका." अशें म्हणून वैजान कूस मारली.

तो घरा आयलो. खरें म्हळ्यार पुताचेर तो बेजार जाल्लो. भांगराचीं ताताां दिवपी कोंबीच ताणे कापून काडिल्ली. पूत दिसतगीच तो ताचेर ताणसलो, "येदो व्हडलो दोतोर जाला पूण मातय बोड ना. ज्या मालवजा खुस्तार तुका हांवें दोतोर केलो, तें मोर्तूबाबालें गोळच तुवें कापून उडयलें? तूं स्वताःक कितें अश्विनी कुमार समजता? तुका कितें दिसलें म्हज्यान तें गोळ निवळावपाक जायना आशिल्लें? हांवें तें मुद्दामच पेकयनास्तना दवरिल्लें. हांव तें कापनास्तनाच बरें करतलों आसलों. पूण तुजी दोतोरकेची फी भरप मात् म्हाका शक्य जावचें नासलें. म्हयने म्हाल कळंतराचे पैशे

मेळटाले ते तुवें ना केले. म्हाका विचारनास्तनाच हीं कर्मा करूंक तुका कोणे सांगिल्लें? त्या चार पैशांनी मोर्तुबाबालें कांय कमी जायनाशिल्लें. ताका त्या गोळाचो चडसो त्रासय नाशिल्लो. तें काय जिवावेलें दुयेंस न्हय. तशें आशिल्लें जाल्यार ताका हांव केन्नाच निवळायतलों आशिल्लों. पैशांची खाणच पुरयली तुवें.

शिकलें म्हण शाणेपण येना! अणभवाचे पावसाळे काडूंक जाय.

म्हजेंच चुकलें! हांवें तुका पयलींच शिटकावपाचें. आतां पश्चात्ताप करून कांय उपेग ना". अशें म्हणून ताणे आपल्या कपलार हात मारलो.

बापायलें गिन्यान आयकून ताच्या पुतान आंSSS केल्लें तोंड, थंय उगतेंच उल्लें.

---

देख : **जाणटेल्यांच्या कामा फाटल्यान कितेंय तरी कारण आसता. तांच्या कामांक हात घालचे पयलीं तांकां विचारून सल्लो घेवंक जाय.**

# भिकें दुवाळे

धनीराम म्हळ्यार अवंती नगरचो व्हडलो व्यापारी. ताची व्हडली हवेली आशिल्ली. हवेली सामकी राजवाडो कसो दिसताली. ताका पांच पूत आनी एकच धूव. ती ताची शेंडेफळ. धाकल्या पुता फाटल्यान आठ वर्सांनी जाल्ली ती.

ताणे तिचें नांव दवरिल्लें सुंदर. कित्याक तर तें रूपान इतलें देखणें आशिल्लें की पळयतल्याच्या दोळ्यांत धरनाशिल्लें. आयिल्लो गेल्लो ताकाच पळयत रावतालो.

तें चली जल्मलें आनी ताचें नशीब फळफळ्ळें. बाय म्हजें पांयगुणाचें ताका खंय दवरूं आनी खंय नाका अशें ताका जालें. दिसतालें इतलें सुंदर, सामकी कातयिल्ली बावली कशें. ताचें रूप दोळ्यांत धरनाशिल्लें. ताका पळयतल्याचें तोंड उगतेंच उरतालें.

चलयेक सांबाळूंक ताणें कितलेशेच नोकर चाकर दवरले. बाय सांगता तें करूंकच जाय अशी तांकां ओर्द पडिल्ली.

'निळू म्हजो निळू
आनी कोलत्यांनी खेळूं'

म्हणटात न्ही तसली गजाल आशिल्ली.

बायचे खातीर बापायन कितल्योशोच आरमारी केल्यो. तातूंत तरेकतरेचे कपडे लत्ते आशिल्ले. एक फावट आंगांर



घाल्ले कपडे तें परते आंगाक लायनाशिल्लें. ताची ताका गरजच नाशिल्ली. कपड्यांचेरच खंय थांबिल्लें तें? भांगराचीय तीच तरा. माथ्याच्या केसां पासून पांयांच्या बोटांमेरेन ताणे तिका भांगरां केल्लीं.

सुरंगां वळेसरा पोंतान, मोगऱ्यांची हळी, कडकडे फुलांची, चाफ्यांची आटी, पके, मोतयां सर, विणयेचेर माळपाचो साळकांची विणी, आमाड्याची जाळी अश्यो नाना तरेच्यो केसांकच माळपाच्यो वस्ती केल्ल्यो. गळ्यांत, हातांत, कमरेक पांयांत केल्ल्या भांगराचो हिशेबच नाशिल्लो. हिरे, माणकां



मोतयां कितें म्हण ना! बायचे खातीर सगळें हाजीर जातालें. करपा सारकें कांयच उरूंक ना म्हण ताका हुल्लाळ आनी कुल्लाळय केले.

हालीं सुंदराक तीं भांगरां घालपाचो वाज येतालो. कितेंय तरी नविदाद जाय. कितलीं म्हण भांगरां करतलें आनी कपडे शिंवन घेतलें. तें सामकें वाजेल्लें.

त्या दिसाक तें हवेलीच्या सज्जांत बशिल्लें. भायल्यान एक वरात वताली. त्या वराती वांगडा कितलेशेच लोक वताले. रस्त्याकुशीक रावन एक बायलमनीस ती वरात पळयताली. तिच्या आंगार वेगळेच तरेचीं कापडां आशिल्लीं. तांबड्यो, पांचव्यो, हळदुव्यो अश्यो तरेकवार रंगाच्यो कपयो आनी हारशांचे कुडके आनी घुलो लावन ते कपडे घडयिल्ले. तो चकचकीत घागरो, उकते फाटीची चोळी, माथ्यार ओडणी आनी केसांत आनी गळ्यांत सोबताले ते फालशेले अलंकार. वा वा! कितें दिसता ती बायल! ते बायलेचो तो भेस ताच्या सामको मनांत रिगलो.

ताणे वेळ केलो ना. आपल्या दासीक ती बायल दाखयली आनी आपल्याक तसलेच कपडे आत्तां जाय अशें फर्मान सोडलें. दासीन कारभाऱ्याक सांगलें. ताणे तसले कपडे सोदूंक बाजारांत मनशां धाडलीं. पूण तसले कपडे तांकां मेळूंक नात. मेळटले तरी कशे?

ती आशिल्ली एक लमाणी बायल. तांचे कपडे तीं आपल्या हातानीच शिंवतात. तातूंत ती राजस्थानची. राजस्थानांत

एकादले मेळत आशिल्ले. पूण राजस्थान कितलें पयस! कपडे मागयतले म्हव्यार दीस वतले आशिल्ले. सुंदर तर आत्तांच्या आत्तां जाय म्हण हट्ट घेवन बशिल्लें.

तें सगळ्यांचेर फोग काडटालें. तें रागान व्हारांदार वचून बसलें. इतले म्हणसर ती लमाणी बायल परतताली तिका दिसली .

ताणे आनी वेळ केलो ना. आपल्या दासीक तिणे सोमती तिच्या म्हन्यान धांवडायली. दासी जीव घेवन धावली. तिणे ते बायलेक हवेलींत आपयलां असो रकाद दिलो. दासीन तिच्या हाताक घट्ट धरिल्लें. एकादले ती पळून गेल्यार सुंदर तिका दवरचें नासलें.

ती लमाणी बायल पोटांतल्यान कुळकुळ्ळी. कसली चूक जाली काय म्हजे कडल्यान? म्हाका कित्याक भितर आपयता काय? ही आनी कसली बिलामत आयली काय म्हजेर? ती बाबडी भीत भीत तिच्या वांगडा गेली. तिका आयिल्ली पळोवन सुंदर सामकें खोशी जालें. ''यो बस!'' ताणे तिका कदेल दिलें. ती आंग चोरून बसली.

''हय गे, तुर्जी कापडां, काकणां आनी हेर सगळ्यो वसती म्हाका काडून दी. त्यो म्हाका जाय.''

म्हजे कपडे हिका दिल्यार हांव कितें घालूं? म्हजे इतले दीस आंगार वापरिल्ले म्हेळे कपडे हिका कित्याक जाय काय! तिचो जीव वयर सकयल जातालो.

तिची तगमग सुंदराक कळ्ळी. ''अगे तूं भिनाका. तुका

हांव दुसरे कपडे आनी भांगरां दितां. म्हज्या आरमारीनी घेऽऽ म्हण कपडे भरल्यात. भांगरां म्हणशी जाल्यार तांचें कोंत म्हाका खबर ना. तुका जाय ते तूं काड.'' तिणे तिका आरमार उगती करून दिली.

घागऱ्यावरी दिसतली चनिया चोली तिणे घेतली. हाताक तिणे हात भरून काकणां घालीं, कानांतले पके, डूल आनी माळपाचीं पिसोळीं घेतलीं. तिणें बऱ्योच वसती चडयल्यो. त्यो उणे म्हणून रत्नांचो एक व्हडलो हार सुंदरान आपूण जावन तिच्या गळ्यांत घालो. ती धादोस जावन घरा गेली.

सुंदराक केन्ना काय ते कपडे घालीनशे जाल्ले. त्या कपड्यांक सामक्यो बुट्टाणी मारताल्यो. ताका केन्ना उदक लागिल्लें कोण जाणा. पूण सुंदराक ताचें कांयच पडून गेल्लें नाशिल्लें. तें आपल्या तंद्रेंतच आशिल्लें . ताणे सोमतेच ते कपडे चडयले. बुट्टाणी वचूंक ताचेर चेर फाफुडलो. मागीर हारशांत आपल्याक तोकेत रावलें. थोड्या वेळान तें बापाय म्हऱ्यांत गेलें. हें थंय पावचे पयलींच ताच्यो बुट्टाणी थंय पाविल्ल्यो. घाणी कसल्यो म्हण पळयल्यार एक लमाणी बायल फुडें आसा.

''बाबा, बाबा, हांव तुमचें सुंदर! कशें दिसतां हांव?''

''सुंदर गो? हे गो कोणाचे, खंयचे कपडे घाल्यात? ह्यो घाणी गो कसल्यो येतात?''

''बाबा, हे म्हजे कपडे. हांवे ते लमाणी बायले कडल्यान घेतल्यात.''

ताणें बापायक सगळी खबर सांगली.

"आगो बुरशा, पयलीं देंवय ते कपडे. कसली अवदसा येवजल्या गो तुका? भांगराचे दागिने दिवन हे कट्टमारे कपडे घेतल्यात तुवें? पैशांचो व्हालोर कळटा मुगो तुका, काय ना? म्हजेच चुकलें! अपुरबायेचें बाय म्हण हांवें अतीSS लाड केले तुजे. तुका देख दिवपाक हांवच चुकलों. आतां पश्चात्ताप करून कसलो फायदो. 'वाडिल्लें नाका, सांडिल्लें जाय' म्हणटात तें सामकें खरें. तुमचे सारखीं भुरगीं जाल्यार बोडाक वंस काडपाक वेळ नाका. आतां उलोवन कांय उपेग ना. भिकेचे दुवाळे म्हणटात ते हाकाच", अशें म्हणून बापायन कपलार हात मारलो.

---

देख : **भुरग्यांक देख दिनासतना पारपळ सोडूंक जायना. तांचे अती लाड केल्यार तीं हाताभायर वतात.**

# घातमारो इश्ट?



वामन आनी गोविंद दोगय सामके जीवाक जीव दिवपी इश्ट आशिल्ले. वामनाचें कपड्यांचें दुकान आशिल्लें तर गोविंदाचो पसरो आशिल्लो. वामनाचें घर सांग्यार तर गोविंदाचें घर केप्पां. ते दोगय सांवड्ड्या एकाच शाळेंत शिकिल्ले.

दोगय जाणांचे धंद्याचे गांव विंगड विंगड आशिल्ले खरे, पूण सांवड्डेच्या बाजारांत ते दिसपट्टी वो पयन्यान तरी मेळटालेच. मर्दी केन्नाय मेळ्ळे नात जाल्यार तांचो जीव अस्वस्थ जातालो.

मागीर हो पोस्टांत वचून ताका फोन करतालो तो हाका फोन करतालो. तेन्ना फोन घरांत नासताले, पोस्टांत वचूनच फोन करचे पडटाले. एकामेकांकडेन पोटभर उलयतगीर तांकां सुशेग जातालो.

ह्या वर्साक दोगांयचोय म्हाल बरोच खपलो. न्हय म्हळ्यार वर्सापरस दोट्टी फायदो तांकां जालो. देवाच्याच कृपेन हें जालां आसतलें अशें तांकां मनांतसून दिसतालें. देवान आमचेर नदर घाल्या तेन्ना काशीक वचून ताचें अंदू दर्शन घेवयाच अशें तांच्या मनांत आयलें. ताणी फाटलें फुडलें पळयलें ना. व्हडली दिवाळी जाली की प्रस्थान दवरचें अशें थारायलें. बरो दीस पळोवन प्रस्थानाचो नाल्ल काडून दवरलो. आयत्या वेळार मागीर कसलेंय कुसपट काडून वचपाचें उरलें जाल्यार सट्ट करून परतें भायर सरूंक अडचण येवंक नाका, हाची ताणी मनांत गाठ घाली.

तुळशीचें लग्न उलगलें. साटली पोटली बांदून दोगय जाण बैलगाडयेर बसले. आज आमकां विमानां, रेल्वे, मोटारी अशीं जायतीं वाहनां आसात. एका दिसा भितर आमी जायत्या जाग्यार पावंक शकतात. पूण त्या काळार गांवांनी धड रस्तेच नासताले. मागीर मोटारी खंयच्यो? गर्भश्रीमंत आसल्यार घोड्यागाडी नाजाल्यार बैलगाडी. गरीब बाबडे पांयांनीच काशीयात्रेक वताले. तीन म्हयने, चार म्हयने केन्ना पावता ते पावतात. दुयेंत जावन कांय लोक वाटेरच मरताले. कांय पयशे सरून अन्नान्न दशेक पावताले. केन्ना केन्ना तर चोर,



लुटारू वाटेर दबो धरून बसताले. तांकां ठग म्हणटाले. ते तर वाटसरूंक कापूनच उडयताले. ताका लागून यात्रेकरूंक सावध रावचें पडटालें.

तांकां दोगांयकय हें सगळें खबर आशिल्लें. दोगांयनीय वाटखर्चाक गांठीक थोडे पैशे दवरिल्ले. वाटेर जेवण मेळत न मेळत म्हण दाळ-तांदूळ, चिरमुल्यो, फोव, शेव-चिवडो, बुकणी म्हळ्यार नाल्लाची सुकी चटणी, सुक्यो भाकऱ्यो, तान

लाडू आनी भूकलाडूय बी घेतिल्ले. हात राखून ते खर्च करताले. आपलो खर्च दुसऱ्यांच्या दोळ्यांर येवूं नये हाची ते पुरेपूर काळजी घेताले. कोण टेळणी करता कोणाक खबर आसता? ओगीच विखाची परीक्षा कित्याक घेयात?

ते काशी लागीं करत करत वताले. करतां करतां वामनाचे पयशे दळाक तेंकले. वामन पातशेर जायत आयलो.

"आरे, गोविंद म्हजेकडले पैशे सोंपत आयल्यात म्हाका थोडे उसने दिवशी रे?"

"कितें? तुजे पैशे सोंपले? हांवय पातशेर जायत आयलां मरे! हांवच तुजेकडेन मागतलों म्हण आशिल्लों. दोगांयलेय पैशे सोंपले जाल्यार आतां कशें जातलें. कोण दितलो काय आमकां पैशे? काशीक पाविल्ले जाल्यार कितेंय हात-पांय मारूंक येताले.

आमी तर आसात आतां अटंग्य रानांत. काशीक बरे भाशेन पावल्यार पुरो."

"पाव रे, काशीविश्वेश्वरा! आतां तुजेरच आमचो भार."

वामन सामको चिंतेस्त जालो. ताचें तें बाविल्लें तोंड पळोवन गोविंदाच्या कानांत ताणें फुस्स् केलें.

"गोविंद, कान कर हेवटेन. आरे तूं भिवं नाका. पैशे सोंपल्यार सोंपूंक दी. हांव आसतना तूं निखालस चिंता करी नाका. हांव करतां सगलें जुस्ताजुस्त!"

"म्हज्या पगडेंत हांवे पांच हिरे लिपोवन हाडल्यात. गरज पडल्यार ते आमी विकून दीस काडू या". हें तो सामक्या ल्हव

आवाजान फुतफुतलो.

ते मात्शे फुडें पावल्यात आसत नासत इतल्यान चारीय वाटेन चोरांनी तांचेर घुरी घाली, ताच्या हातांत उगत्यो तलवारी आशिल्ल्यो.

"काडात, तुमचेकडेन कितें आसा तें काडात. पैसो, अडको, भांगरशिंगर एकान एक वस्त ह्या पोटलेंत उडयात. आमचेकडेन चलाखी करशात तर जिवानिशी वतले. आमी बऱ्याक बरे आनी... फुडले जाणांच आसतले तुमी".

गाडीवानान आनी वांगडा आशिल्ल्या लोकांनी फटाफट आशिल्लें सगळें तांच्या फुड्यांत उडयलें. वामनान आनी गोविंदानय बोटांतली मुदी, कानांतली भिकबाळी आनी पैशांची थैली काडून दिली.

"पळय आनी कितें ना मरे तुमचे कडेन? सांपडत जाल्यार दाखयतां तुमकां. चल रे, सासपीय तांकां." चोरांच्या सरदारान तांकां भेश्टायलें.

एक चोर मुखार सरलो. तो गोविंदाच्या वाटेन सरकलो. तो आपले वटेन येतासो पळोवन गोविंद बेगीं बेगीन उलयलो, "सरदार, सरदार हांव सांगतां तुमकां धन कोणाकडेन आसा तें. म्हाका खबर आसा तें खंय लिपयलां तें. हो वामन आसा न्ही ताचे कडेन आसा म्हाल. किमती सामको किमती. ताच्या पगडेंत ताणे पांच हिरे लिपोवन हाडल्यात. खरें सांगतां देवा शप्पथ! ताची पगडी सोडल्यार मेळटले तुमकां."

सरदारान वेळ केलो ना. ताणे ताची पगडी काडून घेतली.

पळय जाल्यार खरेलेच हिरे लिकलिकतात. तो सगळो म्हाल घेवन चोरांनी फुज्ज्यो मारल्यो गोविंदान एक व्हडलो सुस्कारो सोडलो.

चोर वतगीच ते परते मार्गाक लागले. पूण आतां सगळी वाट सरून सरनाशिल्ली. वामनाक गोविंदाचो राग आयिल्लो. गोविंदाक लागून ताचे मोलादीक हिरे चोरांच्या हड्ड्यार पडिल्ले. म्हजे कडेन हिरे आसात अशें सांगपाची कसली गरज पडिल्ली ताका. हांवें ओगीच सांगलें ताका. हांव इश्ट म्हण काकुळटेक गेलों आनी हाणे म्हजीच शेंडी कापली. दुस्मानय करचो ना असलो विस्वासघात केलो हाणे. हाचे फुडें हांव ताचें तोंड पळोवचों ना. सगळे वाटेर तो तोंड फिरोवन बसलो. गोविंदाचेर चार पालवचीं अशी ताका खुमखुमी येताली. इतलीं घातमारीपणां केलीं आनी बसला पळय कसो मूग गिळून साळसूद कसो. असल्या इश्टापरस दुस्मान परवडलो. वामनाच्या मनांत विचारांचें झगडें चलिल्लें.

निमणे एकदांचे ते काशीक पावले. एका धर्मशाळेंत ते देंवले. आतां तांकां चोरांबिरांची भिरांत नाशिल्ली. जेवन खावन ते आड पडूंक वताले, इतल्यांत गोविंदान वामनाक उलो मारलो,

‘‘वामन, ए वामन, रागार रे? हांव तुजो इश्ट मरे. मात्शें आयक म्हजें. यो बस हांगा. तुका कितें तरी सांगूंक जाय म्हाका.''

‘‘तुजें म्हन्यांत बस म्हणटा? तुजेपरस सुणो परवडलो.

म्हाका तुजें तोंड लेगीत पळोवपाचें ना. चल वच हांगचो.'' ताणें ताका फाफुडलेवरी केलो.

''वामन तुका हावें भोव दुखयलां. जाणा तें हांव. पूण ताच्या मागलें कारण तरी पळय.'' ताणे आपली किरवट सोडयली, किरवटींतले हिरे ताणे हातांत घेतले. ''पळय, पळय हें तें कारण.'' गोविंदाच्या हातांत मोटे मोटे हिरे लिकलिकताले. ''तुजे पांच हिरे गेले म्हण तुका म्हजो राग आयलो. पूण तुचेकडेन फकत पांचच हिरे आशिल्ले. म्हजेकडेन तुज्यापरस मोटे अशे धा हीरे आशिल्ले. तो चोर पयलीं म्हजी झडती घेवंक येतालो. ताणे जर म्हजी झडती घेतिल्ली जाल्यार हे हिरे ताका आयतेच सापडटले आशिल्ले. मागीर ते तुकाय सोडचे नाशिल्ले. तुगेलेय हिरे वतले आशिल्ले आनी म्हगेलेय वतले आशिल्ले. मागीर बाप्पाय ना आनी पुडवेंय ना अशी गत जाताशिल्ली. सगळ्यां मुखार तुका हांव शिटकांवंक शकनाशिल्लों. तुजेकडेन हिरे आसात अशें तांकां सांगिल्यान हांव सत् उलयतां अशें ताणी धरलें. ताका लागूनच म्हजी झडटी घेवपाच्या भानगडींत ते पडले नात. म्हजे हिरे साबूत उरले. आतां हे पांच हिरे तुजे आनी पांच हिरे म्हजे. जाली मरे तुजी खोशी? आतां मार म्हाका वेंग.''

इतलो वेळ तोंड फुलोवन बशिल्लो वामन तें आयकून सामको चाट पडलो. तरी ताचें अंतर्मन ताका परत परत सांगतालें, ना तुजो इश्ट घातकी न्हय, घातकी न्हय.

दोळ्यांनी पळयिल्लें खरें काय मन सांगता तें? दोळ्यांनी पळयलां तेंच सत्य अशेंच ताका दिशिल्लें. पूण ताचें मनच आज जिखिल्लें. आपल्या वागणुकीची ताका लज दिसली. हांवें म्हज्या मित्राचेर अविश्वास दाखयलो. विश्वेश्वरा भोगोस म्हाका! ताणे गोविंदाक घट्ट मिठी मारली. दोगांयच्याय दोळ्यांतल्यान दुकां गळटालीं.

---

देख : **मित्राचेर अविश्वास करचे पयलीं ताचे लागीं स्पश्टीकरण मागूंक जाय. नाजाल्यार इश्टागत तुट्टा. दिसता तें सदांच सत् आसताच अशें नासता.**

# मृत्युपत्राचो निवाडो

एका गांवांत एक शेतकार रावतालो. ताचें नांव सखाराम. ताची घरकान्न पांच वर्सां पयलींच देवागेर गेल्ली. तोय आतां जाणटो जाल्लो. ताच्यानय आतां चडशें काम जायनाशिल्लें. तशें पळयल्यार ताणे बरेंच भाट-बेंस करून दवरिल्लें.

ताचें रावतें घर चार कुडींचें आशिल्लें. सुरती नळ्यांचें तें घर चिऱ्यांनी बांदिल्लें. ऱ्हंयचे देगेर आशिल्ली ताची जमीन म्हळ्यार भांगराचो कुडको कशी. वर्साक कुंभभर भात दिताली. ताकाच तेंकून आशिल्ल्या भोळ्यार तर पाड्याक ५-६ हजार नाल्ल काय ऱ्ही करून पडटाले. माड्डी तळपार ताचो जमीनीचो इल्लोसो कुडको आशिल्लो. थंय ताणे ल्हानशी खोप बांदून च्याचें दुकान घाल्लें. तें चलयता म्हण चलतालें. थंय चडसो कांयच फायदो नाशिल्लो. फकत हाता तोंडाची गांठ पडटाली.

सखारामाक दोन पूत आशिल्ले. व्हडलो धोंडू तर धाकलो सुकडो. ताचो धाकलो पूत मातसो सादो भावार्थी तर व्हडलो सामको बिलंदर आशिल्लो. धाकल्याक बाबड्याक छक्के पंजे, फटींगपण करूंक समजनाशिल्लें. तो मायेस्तय आशिल्लो. आपल्या धाकल्या पुताचो ताका सदांच हुस्को जातालो. व्हडलो पूत आपल्या फाटल्यान ताच्या तोंडाक पानां पुसतलो हें तो जाणटालो.

एक दीस ताणे आपलें मृत्यूपत्र केलें. दोगाय पुतांकडेन ताणे ताच्यो दोन प्रती दिल्यो. ताणे तांकां सांगलें, "पळयात म्हजे फाटल्यान जमीन बरेतरेन वांटून घेयात. झगडीं करू नाकात. तुमकां जर वांटणी आवडलीना जाल्यार कोणय मध्यस्थ हाडात. हांव मरतगीरच तें उगतें करात".

धाकल्या पुताक म्हन्यांत बसोवन ताणे ताच्या माथ्यावेल्यान हात फिरयलो. "शाण्या, तुजो म्हाका हुस्को जाता. तू कितें कर म्हज्या इश्टाक आपय. खैरूंटातल्या वैकुंठ शणैक हो कागद दाखय. ताका मध्यस्त म्हण आपय, तो ज्युस्त निवाडो करतलो."

कांय दिसांनी बापूय मेलो. बापूय रातचो न्हिदिल्लो तो सकाळीं उठलोच ना. धाकलो पूत खूब रडलो. बारा दीस सोंपले. आतां व्हडल्यान आपलीं नाकटां भायर काडलीं. ताणे धाकल्याक सांगलें, "सुकड्या, ह्या घरांतल्यान तूं जाता तितले बेगीन भायर सर. म्हाका अंदूं वाड्डीक करूंक जाय, तुजी कटकट म्हाका घरांत नाका. तूं त्या खोपींत वचून राव."

सुकड्याचें तोंड सामकें सुकलें. ताणे म्हणलें, "दादा, हें म्हजेंय घर मरे. हांव कित्याक भायर सरूं. आमी दोगूय बरे तरेन हांगाच रावया."

"नाका, तूं म्हाका दोळ्यां मुखार नाका!"

"तशें जाल्यार आमी बापायचें मृत्यूपत्र उगडूं या."

"म्हजें मृत्यूपत्र वाळटेन खालें. तातूंत कितें आशिल्लें कोण जाणा". धोंडून फट मारली.

"म्हजेकडेन आसा दुसरें" अशें म्हणून सुकड्यान ट्रंकांतल्यान सेलाद फोल काडली.

ताणे ती भावाक उगडूंक लायली. उपाय नासून ताणे ती उगडली. कागद वाचून तो नाचूंक लागलो. "पळय पळय बापायन कितें बरयलां तें. घे, तुंवय वाच तें. म्हाका जाSSय तें हांव तुका दितलों. म्हाका आतां कोणच आडावंक शकना. बाबानच बरयलां तशें. तुज्या वाटणेक तुका हांव फकत माड्डीतळपावयली सुवात दितां." ताणे तें कागद सुकड्याक दिलें. कागदावेलें बरप तो वाचूंक लागलो. बापायन बरयिल्लें,

"म्हज्या मरणा उपरांत म्हज्या इस्टेटीची वाटणी करची. व्हडल्या पुतान म्हळ्यार धोंडून ताका जाय तो वांटो सुकड्याक म्हळ्यार ताच्या धाकल्या भावाक दिवचो.'

बापायन हें नसतें कशें बरयलें काय? सुकड्याच्या दोळ्यांतल्यान गंगा यमुना व्हांवपाक लागल्यो. रडटां रडटां ताका बापायल्या शिटकावणेची याद जाली. वैकुंठबाबाक हें कागद दाखय म्हणिल्लें ताणे.

दुसरे दीस तो खैरूंटांतल्या वैकुंठबाबाक मेळ्ळो. ताणे सगळी खबर ताका सांगली आनी तो कागद ताच्या हातांत दिलो.

"कागद नीट नदरे सकयल घालतां आनी तुमगेर येतां. म्हाका दोन दीस दी." ताणे म्हणलें.

सुकडो वतगीर ताणे तो कागद बरेच फावट वाचलो. म्हज्या इश्टान अशें कित्याक बरयलां काय? कितेंय तरी

गुपीत आसूंक जाय. ताणे बरोच वेळ तकली खरपिली आनी ताका तें कुवाडें  सुटलें.

दुसऱ्या दिसाक तो सुकड्यागेर गेलो. धोंडू घराच आशिल्लो. “धोंडूबाब, तुका हांतली खंयची इस्टेट जाय तें म्हाका सांग मात्शें. म्हणटगीच सुकड्याक ताची जमीन म्हाका दिवंक मेळटली. सारको विचार् करून सांग.”

“तातूंत आनी कसलो विचार करपाचो? कालच हांवें सांगलां. शेत, भाट आनी हें घर म्हाका जाय.” ताणे काडली जीब लायली ताळ्याक.

“खरें मरे? मागीर नेगार वचशीत. करूं मरे  हांव ह्या मृत्यूपत्रावेल्यान वाटणी. मागीर फुगडी घालूं नाका. काय आमी जमनीचे सारके दोन वांटे करूंया?”

“म्हाका ती खोंप ताका दिवपाक जाय ती ताका दियात. मागीर जालें. फुडाराक ताची म्हाका ओगीच खीटखीट नाका.”

“उतर मरे? तर आतां हांव सांगतां तें  नीट कान दिवन आयक. तुज्या बापायन हांगा बरयलां की तुका जी इस्टेट जाय ती इस्टेट तुवें सुकड्याक दिवची म्हण. तुका आपल्याक जाय शेत, भाट आनी हें घर. तेन्ना तूं तें सुकड्याक दी आनी ती खोंप तूं  घे. बापायन हांगा अशें बरोवंक ना की तुका नाका तें तुज्या भावाक दी म्हण. वो तुज्या मर्जीप्रमाणे इस्टेटीचे वांटे कर म्हण. बापायन तुका सारको जोखिल्लो. म्हणच ताणे दोट्टी अर्थाचें हें मृत्युपत्र केल्लें. समजलो मरे?. दुसऱ्याचें वायट

चिंतल्यार आपलेंच वायट जाता. इत्सा परा येता घरा जाणा मरे तूं." धोंडूचें तोंड सामकें पडलें.

पूण सुकड्यान म्हणलें, "दादा, हें सगळें म्हाका नाका. हाचे फुडें अर्दें तुजें, अर्दें म्हजें. तुजेबगर म्हाका आनी कोण आसा?" भावाचीं उतरां आयकून धोंडूक आपले करणेचो पश्चाताप जालो. "सुकड्या, हांव चुकलों अशें म्हणून ताणे भावाक वेंगेंत घेतलो.

वैकुंठबाब मात्त गालांतल्या गालांत हांसतालो.

---

देख : **इत्सा परा येई घरा. दुसऱ्याचें वायट चिंतल्यार उरफाटे आपलेंच घट्टण जाता.**

# चूक कोणाची?



पिरमावशेन सून हाडली. घर भरून तिचें दार ओतलें. पळोवन सगळ्यांचे दोळे फुटले. तिची सून शामलाचे आवयन-बापयन सालंकृत कन्यादान केल्लें. शामल तशें सभावान  भांगरच. नवी व्हंकल ती! चार दीस तिका

खांकुटलेवरी जाताच न्हय? आज जरी तें ताचें घर जाल्लें, तरी ह्या घरांत अजून तरी तें अनवळखीच आशिल्लें. घरच्या मनशांचो सबाव ताका अजून कळूंक नाशिल्लो. रांदचे कुडींतल्यान पडवेर वतना आनी देवाकुडींतल्यान वासरेर वतना तें घुसपतालेंच, आपले भाशेन तें काम सारकें म्हण करूंक वतालें आनी ज्युस्त वाट चुकतालें. ताचें घर आशिल्लेंच सामकें ऐसपैस. साडी न्हेसून कामां करप ताच्या जिवार येतालें. कांय दीस तरी कळ काडचीच पडटाली ताका.

शामल एक हुशार चली. कॉलेजींत ताका 'स्मार्ट चली' म्हणच वळखताले. कॉलेजींतलो 'डिबेट' आसूं वा 'इंटर-कॉलेज कॉम्पिटीशन' आसूं तें भाग घेतालेंच. बक्षीस मेळूं वा ना मेळूं, ताचें ताका पडूनच वचूंक नाशिल्लें. तें सामकें वीज कशी सळसळटालें. म्हणूनच तें सगळ्यांच्या दोळ्यांत वतालें. बऱ्या घरचें, बऱ्या देखीचें चली आपली व्हंकल जावची अशें जायत्या तरणाट्यांक दिसतालें. तें मात् कोणाकच मीठ घालनाशिल्लें.

अंदूं ताणे मेडिकलाक ऍडमिशन घेतिल्लें. पिरमावशेलो पूत त्याच वर्साक तांचो प्रोफेसोर म्हण आयिल्लो. लेक्चरां दितां दितां शामल ताच्या काळजांत केन्ना रिगलें ताका समजलेंच ना. सूत एकाच वाटेन गुठलनाशिल्लें. शामलाचे दोळेय ताकाच सोदताले. निमणे घडपाचें तेंच घडलें. मियां बीबी राजी आशिल्ल्यान मॅडिकल सोंपतगीच तांची व्हाड्डीक करचीच पडली.

शामल शिक्षणांत जरी फाटी नाशिल्लें, तरी घरच्या कामाचो ताका अणभव नाशिल्लो. तशें तें घरांत हेवटेन तेवटेन कामाक हात घालतालेंच. तशें पळोवशात जाल्यार रांदचे कुडींत तें चडशें पांय दवरिनाशिल्लें. पूण आलायतें काम करूंक फुडें सरतालें. "तूं नवी व्हंकल. तुजे मेथयेचे हात उदकांत बुडोवनाका", अशें पिऱमावशेन ताका सांगिल्लें.

इतली शिकिल्ली सून मदत करता म्हण पिरमावशी खोशी जाताली. ती ताका वयले वयर करताली. तरीकूय शामलाक तिच्या सभावाचो अंदाज नाशिल्ल्यान तें काचाबूल जातालें. ताकाच लागून ताच्या हातांतलो तामयो वा पेलो गळसतालोच. पडिल्ल्या आयदनाचो 'खण्ण' करून आवाज आयलो की तें सोमतेंच आंग काडी. आतां पिरमावशेच्या उतरांचें चाबूक आपल्याचेर पडलेंच अशें तें धरी.

दोन तीन फावटी अशेंच जातगीच पिरमावशेन ताका समजायलें "पोरा, मात्शें शिंतिदान कामां कर गो! हात गळसल्यार संवसार कशें करतलें? संवसारय गळसतलो बाये." तिणे ताका वायट दिसचें म्हणून सांगूंक ना. तिच्या मनांत ताका बरी देख दिवची आशिल्ली.

पूण कितें आसता, आवय आनी मांय हांतूंत मोट्टो फरक आसता. आवयलीं उतरां आंगाक रोमनात, पूण मांयन मोगान सांगल्यारय बी, ती आपलीं उणेपणां दाखयताशें सुनेक दिसता. आवय ही प्रकृती आनी मांय ही प्रवृत्ती असोच जनमानसांत समज पसरिल्लो आसा न्हय! ताचोच तो परिणाम

आसूंक शकता. कितेंय आसूं शामलाच्या मनांत एक भंय बसलो खरो.

त्यानंतर ती गजाल घडली आनी शामलाक आपली मांय कितली समजीक तें कळ्ळें. त्या दिसा तिची नणंद आनी भावोजी तांगेर येवपाचीं आशिल्लीं. जांवय येता म्हणटगीर मांयक कितें करूं आनी कितें नाका अशें जाल्लें. जांवयाक लिंबाचें लोणचें भोव घोस्ताचें. मागीर सगळोच घुस्पागोंदोळ जातलो. त्या बोवाळांत लोणच्याचें बुयांव सकयल कोण काडटलो? आतांच इल्लेशें लोणचें काडूंया, अशें पिरमावशेन मनांत म्हणलें. ती कोठये कुडींत गेली.

"आगो शामल, ती तामरेत घेवन यो गो. तिणे सुनेक साद घालो." मांयन आपयलां ह्या विचारानच, तें एक फावट घुस्पून पडपाचेंच उरिल्लें. धडपडत तें तामरेत घेवन कोठये कुडींत गेलें.

"शामल, हांव वयर चडटां तूं सकयल राव! हांव लोणच्याचें बुयांव दितां तें नीट घट्ट धर. उडोवशी बी." पिरमावशेन ताका शिटकायलें.

"ना आई, भिनाका तूं. धरतां हांव बुयांव घट्ट." शामलान सांगलें.

पिरमावशी वयर चडली. फळयेवेल्यान सरकायत सरकायत तिणे बुयांव धडेर हाडलें. अळंग उबारलें आनी तें ताच्या हातांत दिलें. तें गुळगुळीत बुयांव ताच्या हातांत पावचे पयलींच 'धडाम् धुम्म्' करत जमनीर पावलें. थंयचे थंयच

ताचे बारा ब्रेस्तार आनी तेरा शुक्रार जाले! बुयांवाच्या कुडक्यांचो शिंवर कुडीभर जालो. सगळ्या लोणच्याचें निसंतान जालें. कुडभर लिंबाच्या लोणच्याचो वास परमळटालो. त्या वासानच जिबेक उदक सुट्टालें.

पिरमावशेलें लोणचें जातालेंच फक्कड. लोणचें घालूंक पिरमावशेन घेतिल्ले सग़ळे कश्ट मातये भरवण जाल्ले. अर्दें लोणचें शामलाच्या साडयेर उसळिल्लें. पिरमावशेच्या तोंडांत वायट शब्द येताले. 'अबरगत खंयची' हे शब्द तिणे जिबेवेल्यान परतिले. भितरले भीतर ते शब्द जिरयतना तिका बरोच त्रास जालो. दुसरी कोणय मांय आसताली जाल्यार सुनेच्या कुळारचो उद्धार केलेबगर रावची नाशिल्ली. पिरमावशी आनी बाकीच्या मांयां मदीं होच व्हडलो फरक आशिल्लो.

बुयांव हातांतल्यान सुटलें तशें 'आवयस्' म्हणत कानार व्हेल्ले शामलाचे हात कानारच उरिल्ले. आतां मांयचीं कसलीं मुक्ताफळां आयकुवचीं पडटलीं देव जाणां, अशेंच तें येवजितालें. तीं उतरां आयकुवपाची आपल्या मनाची तें तयारी करतालें. ताचे कडसून चूक जाल्ली तर खरी. बरोच वेळ मांयचो आवाज कानार पडलो ना म्हण ताणे तिच्या तोंडाकडेन पळयलें. तिणे हातांनीच कुरू करून ताका थंयचें हालू नाका अशें सुचयलें. ती हळूच तामरेती वेल्यान सकयल देंवली. लोणचें माड्डिनास्तना तिणे कोठयेचें दार आड केलें. एका भोगुण्यांत तिणे वयलें वयलें लोणचें काडलें. बाकीचें तिणे कोयराच्या आयदनांत उडयलें.

“शामल भिवं नाका. चूक तुजीय आसा आनी म्हजीय आसा. हांव दितना चुकलें, आनी तूं घेतना चुकलें, अशें तूं समज.” इतल्यारच तें कांड तिणे पचोवन व्हेलें. तिनसांजेचे वेळार घरांत किजील जावपाचें तिणे पालोवन घालें.

ती अणभवान शिकिल्ली. कली खंय तिनसांजेचे वेळार, घराच्या फाटल्या दारा भायर उबो आसता. घरांत रिगूंक वाट मेळत काय, हाची तो वाट पळयत आसता. घरांत मात्शें तोंड वाजलें रे वाजलें, तो फाटल्या दारान घरांत सरता. एकदां तो घरांत रिगलो जाल्यार सादोच वाद व्हडल्या किजिलाचेर पावता. एकदां किजील जायत तर केदेंय व्हडलें चिरेबंदी घर लेगीत माती भरवण जावपाक वेळ लागना.

पिरमावशी बुदवंत आशिल्ली. कलीक तिणे भायले भायर वाटेक लायलो. बुयांव फुटूंक सगळी चूक शामलाची आशिल्ली हें वयलेचाराक खरें आसत. पूण तशें दाखोवन तिणे ताका दूशण दिलें ना. तिणे ताचें मनय दुखोवंक ना. बुयांव तर फुटिल्लें. शामलाक सोवलें म्हण, तें काय परत दसतलें आशिल्लें! घडपाचें तें केन्नाच घडून गेल्लें. फुटपाचें तें बुयांव फुटून गेल्लें. आतां वाद करून ओगीच नातें संबंधांक वेर कित्याक हाडची? असो तिणे विचार केलो. घटना तर घडून गेल्ली. घटना घडून वतगीच उलोवन कितें फायदो?

तशें पळयत जाल्यार तांतूय पिरमावशेलीय चूक आसा अशें म्हणल्यार फट जावचें ना. सुनेच्या हातांतल्यान आयदनां गळसतात हें तिका खबर आशिल्लें. तरी तिणे बुयांव धरपाक

तिकाच आफयिल्लें. हीच तिची व्हडली चूक. आपणे जावेक आफयिल्ली जाल्यार हें घडचें नाशिल्लें, हें तिका जाणवल्लें.

चूक घडचे पयलींच हांवें ताचो विचार करूंक जाय आशिल्लो. सुनेच्या आंगार झुटून गेलें म्हण, लोणचें काय परतें मेळटा? गरज नास्तना चूड दाखोवन कलीक घरांत हाडप, नाकाच तें! तिचें आंग शिरशिरलें. घरांत धोशी जावचे पयलींच तिणे ताका आडामो घालो.

---

देख : **भुरग्यांनो, कितेंय करचे पयलीं धा फावट विचार करात. मागीर पश्चात्ताप केलो म्हण फुटिल्लें मडकें जुळना.**

# बापायलें गांवजेवण



शंकर शणै गुपशिट्यावेलो व्हडलो भाटकार आशिल्लो. शंकर शणैक दोन पूत. व्हडलो मुरारी आनी धाकलो विनय. ताका एकय धूव नाशिल्ली. ताका दिसलें आपणे पातशाक पेट मारलो. ताचे सारको नशीबवान तोच. एका फाटोफाट दोन चले! कोणाचेय दोळे फुटत. 'थुमेकाल'! तो जमनीर थूSSSS करून थुकलो.

ताचें ओंर्र्रर्र कितें पळयतलो? पूत जुवान जातगीर म्हज्या चल्यांक कितलो व्हालोर येतलो सांगूं! शंकर शणै सपनां रंगितालो. ताका दिसलें आपणे सगळें जग जिखलें. मनशान येवजिल्लें तशें घडत जाल्यार नशीबाची गरजच पडची नाशिल्ली.

सटवायेक आनी कामच उरचें नाशिल्लें. सटवायेन कपलार कितें बरयलां तें केन्ना कोणाकच कळूंक ना.

ताणे जायते मांडे मांडिल्ले खरे, पूण ते कितले खरे आनी कितले फट, तें वेळ येतगीरच कळटलें आशिल्लें.

व्हडलो चलो मुरारी, आशिल्लो खरो मुरारबाजी सारको. दंड, बैठको, जोर, व्यायाम तो कितें करिनाशिल्लो तें विचारात. मेट्रीक पास जावन तो कॉलेजींत गेलो. शिकपाकय हुशार. आपूण आदवोगाद जातलों अशें तो म्हणटालो.

तूं फकत शीक, खर्चाचें हांव पळयतां. बापायन ताका उतर दिल्लें. कॉलेंजींत ताचें पिळदार आंग पळोवन चलयोच न्हय, चलेय ताचे फाटल्यान घुंवताले. कॉलेजींत आपलो 'बाब' नांव काडटलो आनी लग्नाच्या बाजारांत ताची पत वाडटली, अशेंच ताच्या बापायक दिसतालें. ताचो 'चलेबाब' सायकल मोटारीन ढढ्, ढढ्, ढढ् ढढ् करत घरा आयलो की तो सातिसफेत जातालो. गाडी सारकी रुळावेल्यान वताली आनी एक दीस अकस्मात ब्रेक मारिल्ले भाशेन झटको बसलो.

कॉलेजींतल्यान बापायक प्रिंसिपलाचो फोन आयलो. म्हाका येवन मेळात इतलेंच ताणे म्हणलें. कितें जालें काय? पुतान बरें व्हड नांव काडलें आसतलें, अशेंच तो धरून चलिल्लो. फुरसत काडून मुजरत तो कॉलेंजींत गेलो. प्रिंसिपलाची भेट घेतली. तो केबीनांत गेलो तेन्ना ताका प्रिंसिपल गंभीरसो दिसलो. ताच्या पोटांत धस्स् जालें.

ताचें लक्षण पळोवपाक ताका बरें लागलें ना. हांगा

आयलांच न्ही, आतां 'आर या पार ' कितें जालां तें कळटलेंच, ताणे येवजिलें. प्रिंसिपलाक हात दीवन ताणे 'गुड मॉर्निंग' म्हणलें आनी तो कदेलीर बसलो. उलोवपाक कशी सुरुवात करची; तेंच प्रिसिपलाक सुचना जालें.

''शंकरबाब, हालीं तुमी चल्याकडेन बारीक लक्ष दिलां?'' प्रिंसिपलान कितेंय तरी उलोवंक जाय म्हण फोडणां फोडलीं.

''ना, कितें जालां? म्हज्या पुतान कितेंय नांव रूप केलें ना मू?''

''ना, ना. अजून तरी तशें कांयच जावंक ना. फुडें कितें जायत तें हांव सांगूंक शकना..... हालीं तुमचो भुरगो बदललासो बी दिसता तुमकां? सद्दां टायमार येता तो घरा?''

''ना. पयलीं भाशेन सद्दां घरा येना तो. केन्ना केन्ना ताच्या फ्रेंडागेर रावता लिसांव करपाक. चार दिसांनी बी येता घरा. कितें जालां? वायट संगतीक बी लागूंकना मू तो?''

''तो खरोच इश्टागेर वता काय दुसरें कितें करता, ताचेर तुमी लक्ष दिलां?''

''ना, आज मेरेन ताणे केन्नाच फट मारली ना. म्हजो पूत म्हाका कसोच फटी मारचो ना; हाची म्हाका गॅरेंटी आसा. म्हजो पूर्ण विश्वास आसा ताचेर.''

''शंकरबाब, पयलींच्यो खबरो गेल्यो तेल लायत. आनी विश्वास म्हणटात तो पानिपतार काबार जालो. आयची खबर आयकात. तुजो पूत घुंवळी वखदांच्या रेकेटांत घुस्पलासो दिसता. शंबर टक्के ही गजाल खरी नासली, तरी णव्व्याण्णव

टक्के खरी आसा. म्हज्या एका इन्सपेक्टर इश्टाकडल्यान म्हाका वास लागला. बऱ्या घरचो भुरगो हाता भायर वतलो म्हण तुमकां सांगतां. चल्याच्या बापायक शिटकायलें ना हांवें, अशे चुरचुरे मागीर म्हाका पडूंक नाकात, म्हण तुमकां हांवें सांगलें. हाची फुडली जबाबदारी तुमची. म्हज्या हातांत कांयच ना. कितेंय मदत जाय जाल्यार मुजरत कळयात.''

शणैबाब थंयच सुकलो. प्रिंसिपलान पिवंक ताका थंड उदक दिलें. हाता-तोंडाक आयिल्लो भुरगो वायट मार्गाक लागल्यार, बापायक कितले त्रास जातात तें ताका सांगपाची गरज नाशिल्ली. जायत्या फावटी असल्या रेब्यांतल्यान भुरग्यांक भायर काडूंक, ताणीं पालकांक मदत केल्ली.

शंकरबाब घरा आयलो. पुताक सुलूस लायनासतना ताणे ताचे कुडीचो झाडो घेतलो. नोटींचीं बंडलां आनी कसल्यो कसल्यो पुडयो, गुळयो. ताचेर मळबच कोसळ्ळें. ताणे जायते फावटी ह्या घुंवळी वखदांविशीं पेपरांतल्यान वाचिल्लें. दोन दिसांनी पूत सदांवरीच नेटान घरा आयलो. शंकरबाबान म्हऱ्यांत बसोवन ताका चार समजुतीच्यो खबरो सांगल्यो. आजसून हो मार्ग सोड अशें सांगतना तो काकुळटेक आयलो. बापायक दिशिल्लें पूत आपलें आयकतलो.

हय खबर खरी. पूत ताचें आयकूंक सोदतालो. पूण तो धंदोच असलो की जो एक फावट भीतर गेलो तो परतुंकच शकना. ताच्या हातांत आतां कितें आशिल्लें? ताची शेंडी भलत्याच्याच हातांत आशिल्ली. ताचो परतीचो मार्ग बंद जाल्लो.

घुंवळीच्या वखदांक तोय ल्हवू ल्हवू संवकल्लो. मरणाशिवाय ताची तांतल्यान सुटका नाशिल्ली.

दिसान दीस ताची अवस्था बिकट जायत आशिल्ली. बापूय खर्चाक दिता ते पयशे ताका पावना जाले. घरा येवन पयशांखातीर बापायक तो पिडूंक लागलो. घरांतल्यो म्हारग म्हारग वस्तू गायब जावपाक लागल्यो.

चडट्या भाजणेच्यो ताच्यो उचापती बापायक नाका जीव करूंक लागल्यो. ताची मस्ती, मग्रुरी इतली वाडली की गांवांतले लोकय ताका, मुरारीच्या बदला 'मग्रुरी' म्हणच ओळखूंक लागले.

एक दीस पैयशांक लागून ताणे बापायकडेन झगडीं केलीं. भाटां बेंसांचीं वाटणी मागूंक लागलो. आतां मात बापायलें तापलें. ताचो वांटो दीवन बापायन ताका घरांतल्यान भायर काडलो. परतो घरांत पांय घालशीत तर दोको मोडटलों, अशी धमकीय दिली. तो जो तोंड घेवन गेल्लो ताची परत कसलीच खबर कळ्ळी ना.

ताचो दुसरो पूत विनय सामको सादो-भावार्थी. ताचें नांव ताका सोब सारकेंच आशिल्लें. व्हडल्यान उजवाड घाल्लो पळोवन, बापायन ताका कॉलेजींत आनी घालो ना. एक फावट हून दूदान तोंड भाजलें जाल्यार, परतो कोण हून दुदाचो घोंट घेतलो?

विनय भाटां बेंसा नीट सांबाळटालो. बापायल्या उतरा भायर वचनाशिल्लो. ताका दिसतालें बापायन आपल्याक दोन तोखणायेचीं उतरां उलोवचीं. आपलें कवतूक करचें.

व्हडल्यान बापायक पिडिल्लो. पूण धाकलो बापायक बरें करतालो. बापायन आपल्या फाटी वेल्यान हात ओडचो अशें ताका मनांतसून दिसतालें. पूण बापायच्या तकलेंत तो विचार केन्नाच आयलो ना. पुताची तोखणाय ताच्या मनांत आशिल्लीच. पूण ताणे उगतेपणान ती केन्नाच उलोवन दाखयली ना. आपल्या पुताचो ताका अभिमान आशिल्लो, ताच्या विशीं उपाट माया आशिल्ली. माया ही व्यक्त केल्या शिवाय कळना, हें ताका अणभवान खबरच नाशिल्लें. ताच्या बापायन हांव तुजेर मोग करतां, अशें ताका केन्नाच सागूंक नाशिल्लें.

माया ही मोन्यानी समजुपाची आसता, अशें शंकरबाबाक दिसतालें. गरज पडल्यार पुता खातीर काळीज दिवपाकय तो तयार आशिल्लो. म्हणूनच ताणे आपली माया केन्नाच उलोवन दाखयली ना.

एक दीस ताका कोणे तरी सागलें की मुरारी घुंवळी वखदांतल्यान सामको निवळ्ळा. तो हॉस्पिसियोंत आसा. बापायन घरा आपयल्यार तो घरा येवपाक सोदता. शंकरबाबालो जीव सुपा येदो जालो. धाकल्या पुताक घेवन तो थंय गेलो. मुरारीचो पोटलो सोंपतगीच घुंवळीवाल्यांनी ताका वाऱ्यार सोडिल्लो. तो मरपाचोच आशिल्लो. गांवांभायल्या पडक्या वाड्यार मेल्लें मडेंसो, तो पुलिशेक सापडिल्लो. ताणी ताका 'रिहेबिलिटेशन सेंटरांत' घालो. ताणीच ताका यमाच्या दाडयेंतल्यान भायर काडिल्लो.

हॉस्पिसियोंत बापायन मुरारीच्या तोंडावेल्यान अपुरबायेन हात

फिरयलो. धाकलो पूत तें पळयतालो. इतलीं वर्सां हांव बापाय वांगडा घोळटां, बापायन एकय दीस म्हजी अपुरबाय कित्याक करुंक ना? बाप्पाक हांव आवडना. मुरारीच चड आवडटा आसतलो. ताच्या मनांत एक गांठ पडली. मुरारीक बापायन घरा हाडलो. ताचे खातीर ताणे गांवजेवण दवरलें.

आपल्या कोंडवाड्यांतलो व्हडलोसो बोकडो ताणे कापूंक लायलो. शेणिल्लो पूत परतो आयलो म्हण फेस्त करपाचो बेत केलो.

आतां मात विनय खरेंच दुखावलो. भाटां-बेंसांचें निःसंतान केल्ल्या खातीर बापूय बोकडो कापता आनी आपलेखातीर बापायन केन्नाच कितेंच करूंक ना. ताची तकली सामकी घुंवली. ताका बापायची तिडक आयली. तो रागान कुडीचें दार बंद करून बसलो. बापूय ताका सोदता जाल्यार हो खंय सापडटा? हो कुडींत आसा म्हण कळटगीर बापूय ताका हाडूंक गेलो. हो येवंक कसोच तयार ना. बापायच्या तें तकले वेल्यान गेलें. कितें जालें काय? हो कित्याक रागार काय?

पापया, काय बरें मटण केलां मरे! चल जेवपाक. सगळे तुजीच वाट पळयतात. तुजे शिवाय माटवाक सोबा येता रे?

इतले दीस ताचे भीतर फूग आशिल्ली ती फुस्स् करून भायर सरली. ''मटण, कसलें मटण? कोणाखातीर केलां मटण? हांव तुजो कोण न्हय. हांवें बरें करूनय म्हाका कसलोच व्हालोर ना. तुवें बोकडो कापला ताचे खातीर. भाटां- बेंसांक उजो लायिल्या खातीर. म्हजे खातीर मात तुवें कितेंच करूंक ना.

आतां उरल्यांत तीं भाटांय ताचेच नांवार कर.'' ताणे सगळो फोग भायर काडलो.

शंकरबाबाली ट्यूबलायट आतां पेटली. हे खातीर राग आयला तर हाका. ताका ताणे म्हन्यांत घेतलो. ''पुता, आतां तूंच म्हजो कवाथो. तुज्या भरवंशाचेरच तर हांव दीस काडटां. तुज्या भावाखातीर हांवें बोकडो कापला, ताका कारण आसा. ह्या घरचें ताचें हें निमणे जेवण. ताचो मार्ग ताका मेकळो आसा. आपूण चुकलों म्हण बापायन आपल्याक वाळींत उडयलें, अशें ताका दिसूं नये, म्हणच हांवें हें गांवजेवण दवरलां. हांवें ताका एकच बोकडो कापला. आतां उरल्यात ते सगले बोकडे तुजेच. तूं जाय तितले मारून खा. तुका कोण विचारतलो आसा? आमकां जाणटेल्यांक हातान तोखणाय करची संवय. तोंडान उलयत जाल्यार ताचें मोल उणें जाता.''

विनयाक बापायलें सांगणे पटलें. तो सदरो आनी जाकीट घालून माटवांत फेस्त फुलोवंक आयलो. ताणे चार चडच खोजने फुलयले.

---

देख : **भुरग्यांनो, आवय बापायची माया ओंठार नासता तर ती पोटांत आसता. ताचें मोल करूंक जायना. तशेंच भुरग्यांक समज कमी आसता हें जाणट्यांनी याद दवरुंक जाय. तांचेवेलो आपलो मोग व्यक्त करूंक जाय.**

# गगनागिळी



एक अटंग्य रान आशिल्लें. त्या रानांत व्हडले व्हडले रूख आशिल्ले. व्हडलीं व्हडलीं तळपां आनी खडपां आशिल्लीं. रानांत शींव, मेरू, रानदुकर, वाग, भेंसड आनी कोले अशे कितलेशेच प्राणी आशिल्ले. बारीक जीव थंय भिवन भिवन दीस काडटाले. व्हडलीं जनावरां, बारीक जिवांक मारून खातालीं. बारीक जीव बाबडे जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हण दुसऱ्या रानांत शूट मारताले.

त्याच रानांत एक कोलो आनी कोली रावतालीं. कोली गाबीण आशिल्ली. तिचे दीस भरत आयिल्ले. ती केन्नासून कोल्या फाटल्यान लागिल्ली, पावसाळो तोंडार आयला, हांव केन्नाय सुट्ट्लीं. बेगीन एक घोल पळय. पावसांत हांव बाळंत जायत जाल्यार आमचीं पोरां पावसांत कुडकुडटलीं.

कोलो सामको आळशी. हड्ड्यार आयले बगर कामाक हात लायनाशिल्लो. करतां करतां एक दीस ती कोली सुटली. तिणे पांच पिलांक जल्म दिलो. आतां मात् तिणे कोल्याक झिगझिगायलो. घोल सोदले बगर म्हाका तोंड दाखोंवं नाका असो ताका 'अल्टीमेटम' दिलो. बायलेन जसो शेंपडायनाका तसो कोलो रानांत भोंव भोंव भोंवलो. एका जाग्यार ताका बरी घोल सापडली. ताणे भीतर वचून तिचो नीट नियाळ घेतलो. ताका ती घोस्ताक गेली. बायलेक आनी पिलांक घेवन तो त्या घोलींत आयलो. घोल पळयतनाच बायलेक दुबाव आयलो. तिणे म्हणलें, "हयSSS ही घोल कोणाय तरी क्रूर जनावराची आसूंक जाय. हांगा पडिल्ल्या हाडांचेर नदर घाल्या तुमी? गोरवांचीं, मेरवांचीं हाडांशीं दिसतात तीं. आमकां नसत्या भानगडींत हाडून घालांशें दिसता तुमी."

ताणे मनांत म्हणलें संकट आयलें जाल्यार कितेंय तरी तकली लडोवची. ताका आपली तकली चड फीन कशी दिसताली. ताणे बायलेक पयलींच कानमंत्र दिलो.

तिका सांगलें, "खरोच जर वाग वा शींव येत जाल्यार, आमी एक नाटक करूं या."

नाटकाचे संवाद ताणे तिच्या कडल्यान तोंडपाठ करून घेतले. कोल्याचीच बायल ती, ती कितें कवनां करूंक फाटी! ती तर चार पावलां फुडेंच!

कोलयेचो दुबाव खरोच आशिल्लो. त्या घोलींत एक वाग रावतालो.

एका मेरवाचे फाटल्यान लागिल्यान तो पयस पाविल्लो. तो खर्शेत खर्शेत घोलीकडेन येतालो. मेरवान ताच्या हातार तुरी दिल्ली. ताका हुलकावणी दिवन तें नाच्च जाल्लें. हेवटेन भूक आनी तेवटेन तिडक अशी ताची दशा जाल्ली .

लाब, दोन, तीन, चार अशीं पावलां मेजत तो घराकडेन येतालो. ताच्या तोंडातल्यान गुर्रर गुर्रर आवाजा वांगडा फेंसय येतालो. कोलो सादूर आशिल्लो. ताच्या कानांत तो गुर्र गुर्र आवाज पडलो.

''आगे घरकान्नी, वाग घोलीकडेन येतासो दिसता. हांव कुरू करतगीच तूं फुडलें काम सुरू कर. बाकीचें हांव पळयतां.'' ताणे बायलेक शिटकायली.

वाग लागीं पावतगीच ताणे बायलेक दोळो मोडलो. कोलयेन आपल्या पांचय पोरांक चुळचुळीत चिमटे काडले. तेसरशीं पोरांनी व्हडल्या व्हडल्यान आड्डी मारूंक सुरू केली. घोलींत तो आवाज घुमतालो आनी चडच मोटो जातालो. अचानक आड्डी मारिल्लो आवाज आपल्या घोलींतल्यान येनाका, वाग काचाबूल जालो. वागाचे घोलींत रावपाची कापास्ताद कोणय करत अशें ताणे धरूंक नाशिल्लें. इतल्यांत ताका एक

विचित्रसो अनवळखी आवाज आयकूंक आयलो. तो कान दिवन आयकूंक लागलो. कोण तरी घोवा-बायलेचो संवाद चलिल्लो. त्या आवाजान ताच्या पोटांत कुळकुळूंक लागलें.

"ए गगनगिळी, पोरें कशाला रडतीSSSSS?" तो आवाज विचारतालो.

"तीं ताज्या वागाचें मांस मागतीSSSSS!" बायल सांगताली.

"कालचें गो काय जालें?", तो.

"बेळशेलं", ती.

वागाक पेंच पडलो. देवा सायबा! ही आनी गगनगिळी कोण काय? हें नांव तर हांवें केन्नाच आयकूंक ना. हिगेलीं पोरां तर वागाचें मांस मागतात. तेंवयबी तांकां सामकें ताज्जें मांस जाय. हांव लेगीत चार पांच दिसाचें उरिल्लें मांस खातां. हिगेलीं भुरगीं कालचें मांस बेळशेलें म्हणटात. रडटात तरी केदे व्हडाव्हडान! कान सुद्धां फुटले म्हजे. तिचें नांव कितें काय म्हळ्यार 'गगनगिळी' खंय. गिळत रे बाबा गिळत. मळब लेगीत गिळत. हांवें हांगासून पांय काडिल्लो बरो. हरशींच म्हाका पुरो जालां. हांव दिश्टी पडल्यार म्हाकाच मारून खायत म्हण भंय. पोरांची रड आयकूंक जायना जाल्यार रोकडोच भायर सरतलो तो शिकारेक. सगळें सोडून कितें काय म्हळ्यार हांकां वागाचेंच मांस जाय खंय! हांव विखाची परीक्षा कित्याक घेवं? हरशींच म्हजे फाटल्यान साडेसाती लागल्या. हांवें हांगासून कूस मारिल्लीच बरी. तो भोकाक पांय

लावन धांवलो.

येदे व्हडले वागाक आपणे शिंगां लायलीं म्हण कोलो आनी कोली तोंड धांपून हांसतालीं. वाग खरोच बोंडो आशिल्लो जावंये . तो फाटल्यान नदर घालनास्तना धांवतालो. वाग सामको खर्शेलो. वाग कोल्याक भिवन धांवता ते पळोवन झाडावेल्या माकडाक अजाप जालें. नाका थंय तोंड घालपाची ताका चड सवंय आशिल्ली.

"वागोबा, ए वागोबा, जिवार आयिल्ले वरी धांवतासो रे? रानांत शिकारी आयला काय कितें?" ताणे फुस्कुली मारलीच.

"ना रे बाबा, म्हजे घोलींत एक गगनगिळी रावता. ती फकत वागाचेंच मांस खाता. ती म्हाका मारीत म्हण हांव पळ काडटां."

झाडावयल्यान सगळें पळोवपी माकड तो. कोल्याक घोलींत वतना ताणे ज्युस्त पळयिल्लो. वागाक ताणे पिसो केलो आसतलो. माकडान तर्क केलो.

"आरे सायबा, तुमी भिले ताका? ती गगनगिळी बी कोण न्हय. तो कोलो मगा! तुमच्या घरांत घुसतना, हांवे म्हज्या, ह्या ह्या दोळ्यांनी पळयला ताका. पिशाक पिंपळ दाखयलो ताणे. चलात परते. तुमकां भंय दिसता जाल्यार हांव येतां बरोबर. आमी दोगय वांगडा वचू या. मागीर तर जालें."

वागाक दिसलें आसत एकादले तशें. हांव गरज नासतनाच भिलों. हांवें काय ताका म्हज्या दोळ्यांनी पळोवंक ना. शिता

फुडेंच मीठ खावन पळ काडलो हांवें. आतां दाखयतांच त्या कोल्याक!

दोगूय जाण हाश्श हुश्श करत त्या घोलीकडेन पावले. कोलो टेळणी करत आशिल्लोच. ताणे बायलेक परत कुरू केली

भुरगीं रडनाका ताणे बायलेक विचारलें, ''ए गगनगिळी, पोरें परत कशाला  रडती?''

तिणे म्हणलें, ''ती ताज्या वागाचें मांस मागती.''

''कालचें काय झालं?''

''बेळशेलं.'' तिणे सांगलें.

वागा सांगाताक माकोड येता तें ताणे पळयिल्लें. ताणे मुद्दाम म्हणलें, ''भिवूंक नाका मात्सो धीर धर. हांवें म्हज्या इश्टाचेर, एका माकडाचेर, तें काम सोंपयलां. माकोड रोखडोच एका तरी वागाक फुसलावन हाडटलोच. ताकाय वागाचें मांस खावपाचें आसा. ताकाय थोडी साग्वाद दितलों हांव.'' वागाच्या कानार हे शब्द पडचे म्हणून  तो मोट्यान उलयलो.

वागान तीं उतरां आयकलीं. तो कितें समजुवपाचो तें समजलो. ताणे धरलें हो माकोड त्या गगनगिळीक सामील आसा. म्हणच म्हाका इतलो आग्रो करता. हो माकोड दिसता तसो ना. ताच्या जाळ्यांत हांव सापडचों ना, अशें येवजून ताणे पपा काडली. कोल्याचे फीन तकलेन काम सादलें.

माकोड परत ताचे फाटल्यान धांवलो. ''आगा आगा, धांवता कित्याक गा? तो कोलोच आसा मगा. आवाजाचेरच

कळटा मगा. हांगा गगनगिळी म्हण कोणच ना. तो कोलो, बुद्दीन सदांच भलो मगा. तो तुमकां पिसो करता आनी तुमी पिशे जातात? चलात परत. म्हजेर विश्वास दवरात न्हय. तो म्हजो इश्ट बिश्ट कोणच न्ही. हांव सामको शिवराक मगा. हांव मांस खंय खातां ? चलात. भंय दिसता मू तुमकां? आमी अशें करूंया. म्हजी शेंपडी तुजे शेंपडेक बांदुया. मागीर जालें?''

ताचेर भरवंसो दवरून वागान ताची शेंपडी आपले शेंपडेक बांदली. तो भीत भीतच घोलीकडेन गेलो. ताच्या वांगडा माकडाची पोटलीय येताली. वागान आनी माकडान शेंपड्यो बांदल्यात त्यो कोल्याक दिसल्यो.

हो माकोड देड बुदवंतसो दिसता. दर फावट वागाक परतो हाडटा, ताका बुद्द शिकोवंकच जाय.

ताणे गगनगिळीक पोरांक जोरान चिमटे काडूंक सांगले. हे फावट ताणी रडून रडून सगली घोल माथ्यार घेतली. कोल्यान आनी कोलयेन परतें पयलींचेंच नाटक केलें.

कोल्यान तिका समजायत म्हणलें, ''गगनगिळी पोरांक मात्शें ओगी कर. हें खेपेक माकडान तकली लडयल्या. वाग पळत म्हण म्हजो इश्ट ताका शेंपडेक बांदून हाडटा. अशीं तशीं धा मिनटां. तांकां ओगी कर. मागीर हांव आसां आनी तो वाग आसा.''

वागान तें आयकना फुडें ताका माकडाचो राग आयलो. दर खेपेक हो माकोड म्हाका फटयता आनी हांव फटवतां. म्हाका

माकोडय नाका आनी ती घोलय नाका. 'सर सलामत तो घोली पचास' अशें ताणे मनांत म्हणलें. ताणे फाटी फुडें पळयनास्तना धांव मारली.

माकडाची शेंपडी ताचे शेंपडेक बांदिल्ल्यान माकोडय ताचे फाटोफाट फरफटत गेलो. माकडाचें आंग धाडावतालें, झरकट्टालें आनी ताका रगत येतालें.

तो बोबो मारतालो, ''राव रे, राव रे. मेलों मेलों.''

वागाच्या कानांत कांयच वचनाशिल्लें. तो बद्द रावलो, न्हंयचे पलतडीन. तेमेरेन माकडाचे बारा बिरेस्तार आनी तेरा शुक्रार जाल्ले. ताचे हातपांय तुटून पडिल्ले. कात सोलून तकली रगतांत बुडबुडलेली. वागाच्या पोटांत भुकेन उजो पेटिल्लो. त्या उरिल्ल्या माकडाक वागान एकाच घासांत खालो.

माकडाचे भोग भोग जाले आसतले! हें येवजून कोलो आनी कोली व्हडल्या व्हडल्यान हांसतालीं.

---

देख : **भुरग्यांनो, दोगांच्या भानगडींत तिसऱ्यान पड नये. पडल्यार ताकाच मार पडटा. समजलें.**

# सासमांयची बावली



यमुना मावशेन आपल्या पुताचें लग्न केलें आनी भावाल्या चलयेक आबोल्याक सून म्हणून घरा हाडली. सोयरू तेन्ना वीस वर्सांचो आनी आबोलें अठरा वर्सांचें. तें मात्शें होळूबायच आशिल्लें. सगळीं कामां तें होळू होळूच करतालें. ताका घरांतलें काम जमनाशिल्लें. रांदप तर ताणे केन्ना केलेंच नाशिल्लें. आवयगेर फाटल्या फुडल्यान कामेरीं आशिल्लीं. चलयांच्या नशीबांत सदांच रांदची

कूड आसा म्हण आवयन ताका रांदचे कुडींत काम करूंक केन्नाच लायलें नाशिल्लें. जबाबदारी आंगार पडटगीच शिकतलें म्हजें बाय अशेंच तिका दिसतालें. तिकाच कित्याक चडशा आवयांक अशेंच दिसता.

पूण तें मात्शें होळूबाय जाल्यान ताका रांदप तकलेन वचनाशिल्लें. तें कितें क़रतालें. वांटप काडलें जाल्यार मांयक दाखयतालें. "आका, इतलें पुरो मगो?" मांयक दाखोवन दाखोवन तें जेवण करतालें. कितेंय केलें जाल्यार प्रत्येक वेळार तें तिका दाखोवनच जेवण रांदतालें. मांय जर एक दीस खंयय भायर सरली जाल्यार ताचेर आकांत येतालो. तें रांदतना सामकेंच घुस्पतालें. खरें म्हळ्यार ताचें जेवण इबाडनाशिल्लें. पूण मांय ना, ह्या विचारानच तें गर्भगळीत कशें जातालें. ताका कांयच सुचनाशिल्लें. तसो ताचो अदमास जुस्ता ज्युस्त आसतालो. मांयन पोरसांतल्यानय तकली हालयली तरी ताका सू जातालें. मागीर तें नेटान रांदतालें.

एक दीस मान्न्यांन निसरून पडिल्लें निमित्त जालें आनी मांयचो स्वर्गवास जालो. बारा दीस कशे तरी उलगले. हाणे ताणे शेजाऱ्यांनी जेवण धाडून दिल्लें. मागीर कशें करतलें? रांदूंक गेलें रे गेलें ताचे हात कडकडटाले. शिजत घालतना अर्दें तोपांत तर अर्दें रान्नीर पडटालें, घरांत घोव आनी आबोलें. विचारतलें म्हळ्यार घरांत दुसरो कोणच नाशिल्लो.

एक दीस तें भटागेर गेल्ले कडेन ताणे भटणीक आपली अडचण सांगली. भटणीक ताचें कितें घुस्पता तें दिस्त

समजलें. ताचें मानसीक बळ वाडोवचे खातीर तिणे एक युक्ती केली.

तिणे एक ल्हानशी पिठाची बावली करून तिका दिली. तिणे आबोल्याक सांगलें, ''हें पळय ही मंतरिल्ली बावली. ही बावली न्हय तुजी मांयच ती. तुजी मांय मरूंक ना. तिचो प्राण हांवें हांतूंत घाला. हिका तुजी मांय समजून घरा व्हर. मांयच्या पाटार तिका बसय. तुका कितेंय करचें आसलें तर हिका दाखोवन कर. तिका बरी करून सांबाळ. कळळें मुगो?''

आबोलें सामकें सातिसफेत जालें. ताणे ती बावली घरा हाडली आनी तिका साडी चोळी घालून पाटार बसयली. तें कितेंय करचें आसल्यार, आका हें करूं? आका तें करूं? अशें विचारून विचारून करतालें. ताचें जेवण जातालेंय बरें. पूण घडटालें कितें? मांयक विचारपाच्या बोवाळांत जेवणाचो वेळ उलगतालो. दनपारचें देडाचें जेवण चारांक जातालें. रातचीं आठांची धा वरां जातालीं.

सदांच अशेंच जातालें. घोव तरी कितलें पाशियेंस काडटलो? ताणे सांगलें, ''आगो आतां तूं रांदूंक शिकलें. त्या बावल्याक कित्याक विचारता? आपले आपुणच कर.'' पूण आबोलें कानामनारच घेनाशिल्लें.

करतां करतां घोवाक सामकी तिडक मारली. एके राती बायल न्हिदलीशी पळोवन ताणे ती बावली पयस रानांत व्हरून उडयली. सकाळीं ऊठ जाल्यार सुनेक मांय खंयच दिसना. तिणे तिका घरभर सोदली. तें सामकें रडकुरें परतलें.

ताका समजलें की आपल्या घोवाचेंच हें कर्तूब.

मोन्यांनी तें मांयक सोदूंक भायर सरलें. वतां वतां तें एका अटंग्य रानांत पावलें. 'आका! आका!' तें बाबडें उलो मारत वतालें. इतल्यांत एका झिलांतल्यान ताका हुं हुं कसो आवाज आयलो. एक घुघुम थंय रडटालो. हिका दिसलें आपल्या मांयनच आपणाक साद दिली म्हण. तें त्या झिलांत घुसलें. ताणे थंय सोदलें आनी अजाप म्हळ्यार ती बावली ताका त्या झिलांतच गावली.

बावलेक वेंगांत घेवन तें रडरड रडलें. हे मेरेन सूर्य अस्तमतेक गेल्लो. होळू होळू ताचो उजवाड कमी कमी जायत आशिल्लो. फटकन् काळोक जावचे पयलीं झाडार चडिल्लें बरें, ताणे येवजिलें. बावलेक कमराक बांदून तें झाडाच्या केलक्यांत वचून बसलें. तें दोळे तटमटीत उगतें दवरतालें, पूण न्हीद ताच्या दोळ्यांतल्यान हालनाशिल्ली. रातचें कसल्याशा आवाजान तें जागें जालें.

झाडा पोंदाक कांय चोर जमिल्ले. तांच्यो वांटण्यो चलिल्ल्यो. मुखार भांगराची रास पडिल्ली. तुका चड म्हाका कमी असो तांचो वाद चलिल्लो. वयर बशिल्ल्या आबोल्याच्या पोटांत कुळकुळ्ळें. ताच्या हातांतली बावली सुटली आनी धप्प् करून चोरांच्या मदींच पडली. झिळमिळ्या उजवाडांत त्या चोरांक कांयच कळ्ळें ना. तांकां दिसलें पुलिस आपल्या फाटल्यान लागल्यात. ताणी भांगर थंयच उडयलें आनी जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हण पपा काडली.

सकाळ जातगीच आबोलें सकयल देंवलें. त्या भांगराची पोटली बांदली आनी घरा परतलें. मांयन आपणाक भांगर दिलें म्हण तें खोश्शी जालें. घरा पावतासर ताका तिळसांज जाली.

दारांत पावतगीच तिणे दार धाडायलें, ''हय आयकता,

दार उघडात दार,

म्हाका भांगराचो सोंसना भार!''

घोवान दार काडलें. पळय जाल्यार बायल भांगराची पोटली घेवन आयल्या. ताणे बेगीन बेगीन दाराचो आडामो लायलो.

दुसरे दिसा आबोलें भांगरां घालून मिरोवपाक लागलें, अचानक ताच्या आंगार इतल्यो वस्ती पळोवन शेजान्न शिटकावली. तिणे आबोल्याक सांजची च्याक आपयली. तिचे कडेन खबरो मारतां मारतां तिणे सगळी बित्तंबातमी काडून घेतली. आबोलें भावार्थी ताणे सगलें सांगलें.

शेजान्नीच्या मनांत आस जागली. हय हांवय करतां अशींच नाटकां. म्हाकाय मेळटलें अशेंच भांगर. पूण तिची मांय मरुंक नाशिल्ली. ती खणखणीत आशिल्ली. आतां कितें करतली? तिका भांगरान इतलें पिशें लायिल्लें की तिणे फाटी फुडें पळयलें ना. मांय हातुणार न्हिदल्या ती पळोवन तिणे तिचें तोंडच दाबलें. ती बाबडी घुस्मटून मेली. बारा दिसांनी तिणे मांयची एक बावली केली. घोवाक तिणे ती बावली रानांत उडोवंक सांगली. घोव म्हळ्यार सामको बिलू कसो. तो बायलेक थर्त भितालो. ताणे बायलेन सांगलें तश्शें केलें.

शेजान्न तडक रानांत गेली. ती बावली घेतली आनी झाडार बसली. कर्म धर्म संयोगान त्याच दिसा चोर परते झाडा पोदां आयले. ते वांटे करता तें पळोवन हिणे मांयची बावली सकयल उडोवन दिली.

परचे फावट ते भिल्ले. पूण आज ते भिलेनात. तांकां दिसलें की परचे फावटीं कोणे तरी तांकां शिंगां लायलीं. आतां परत तेंच करूंक सोदता. ताणी वेळ केलो ना. हातांतली चूड वयर करून झाडार नीट नदर मारली. पळय जाल्यार वयर एक बायलमनीस बसल्या. ताणी वेळ केलोना. हाताक धरून तिका भरभरीत सकयल ओडली.

"आमी कितें दुदखुळे? चोरांचेर मोर जावंक सोदताली काय कितें? दाखयतां तुका. ए सांबा, काड रे ती सुरी." चोराच्या सरदारान म्हणलें. शेजान्न, "हांव न्ही, हांव न्ही", अशें सांगूंक सोदताली. पूण चोरांनी तें कानामानरच घेतलें ना. सरदारान तिचें नाक सर्र्र्र करून कापून काडलें. तिच्या नाकांतल्यान भळभळीत रगत व्हांवतालें. नाकाक सामकी रगताची धार लागिल्ली. चोर आपल्या वाटेक लागना फुडें ही घरच्या वाटेक लागली.

दुसऱ्या दिसा घरा पावतासर हिका तिळसांज जाली. रगत वचून ती सामकी जाम जाल्ली. तिणे घरा पावना फुडें जोराजोरान दार धाडायलें, "हय....आयकलां....,

दार उगडात दार

म्हज्या नाकाक लागल्या धार"!

घोवान दार काडत जाल्यार कितें पळयता? बायल सामकी रगतान भरल्या. नाक कापून सामकी सुर्पणखाशी दिसता. आपलो हांसो ताणे भितल्ले भितर दामलो. आपूण हांसता तें कळत जाल्यार बायल म्हाका उबीच चिरतली. ताणे तिचें नाक लीप केलें आनी तिच्या नाकाक तांबडें वखद (तितूर) लायलें.

नाक पेखसर ती घरच्या भायर सरली ना. केन्नाय भायर सरलीच जाल्यार तकलेवेलो पदर सामको सकयल ओडटाली. ती सारकी बुद्द शिकिल्ली.

---

देख : **चड आस करूंक जायना. चड आस केल्यार सदांच पाड पडटा.**

# आटवो आनी बिटवो



नेतल्लेचे दोंगरावेल्या दांड्यार एक जाणटेलो रावतालो. ताचें नांव जानू. ताका दोन नातरां आशिल्लीं. आटवो आनी बिटवो. भुरगीं ल्हान आसतनाच ताच्या पुताचो आनी सुनेचो विंगोड जाल्लो. ताच्या सुनेन दुसरी सोयरगत केल्ली.

ताचो पूत भिसो. तो मात्सो सादो भावार्थी. एक दीस कोंडींत कुल्ल्यो धरूंक गेल्लेकडेन तो बुडून मेलो. तो खरेंच आपशींच बुडून मेलो वा कोणेय घातपात केलो हें समजूंक कांयच मार्ग नाशिल्लो. नातरांचो सगळो भार आज्याचेर पडिल्लो. आज्यान

तांकां ल्हानाचे व्हड केले.

आटवो व्हडलो तर बिटवो धाकलो. आटवो मात्सो आपल्या बापायचेरच गेल्लो. ताका मातय तकली वा शाणेपण नाशिल्लें. ताका कितेंय सांगप म्हळ्यार सांगतल्याच्या जिवार येतालें. ताका सांगतना नीट उतरांनी सांगचें पडटालें. नाजाल्यार त्या कामाचें घट्टण जालेंच म्हण समजुवपाचें. देव अक्कल वाटतना तो खंय गेल्लो कोण जाणां. बिटवो मात् तकलेन फीन. देवान आटव्याच्या वाट्याची अक्कल ताका दिल्ली आसूं येता. बिटव्याक लागूनच तें घर चलतालें म्हळ्यार जाता.

जानू आतां जाणटो जाल्लो. ताच्यान बशिल्ल्या कडल्यान उठूंक जायनाशिल्लें. ताची सेवा करची पडटाली. ते दीस म्हालो येवन तांची कापणी करून गेल्लो. बिटव्यान तिगांयच्याय तकलेक तेल घालें. ताका कामतांक मिरसांग रोवपाची आशिल्ली, म्हण तो भायर सरलो. ताणे आटव्याक सांगलें, "हें पळय आज्याच्या तकलेक तेल घालां. घरा येवन हांव ताका न्हाणयतां. तोमेरेन ताच्या तकलेर मूस बसूंक दिवनाका. आमूड तांकां." भाव आपल्या भाशेन नीट सांगून गेल्लो.

तेलाच्या वासाक आज्याच्या तकलेर परते परते मूस बसताले. थोडो वेळ ताणे मूस आमुडले. मागीर ताका बेजार आयलो. हे मूस चडच सुबेज जाल्यात, आमुडल्यारय परते परते येतात. राव आतां दाखयतांच तांकां. ताणे एक सान्नीचो मुंडो हाडलो. त्या मुंड्यान तो आज्याच्या तकलेर मारूंक लागलो. तकलेर मुंडो बसचे पयलींच मूस हुडून वताले. तो सामको तिडकलो.

तो चडच जोरान मारूंक लागलो. करतां करतां त्या मारान आज्यान जीव सोडलो. तरी पूण हाचें मूस मारप सोंपलेना.

बिटवो घरा येत जाल्यार कितें पळयता! आजो मरून पडला आनी आटवो ताची तकली धाडायता. आजो मेला हाची ताका नातच ना. आपणे सांगलें कितें आनी हाणे केलें कितें? ताका आटव्याचो सामको राग आयलो. पूण सांगतलो कोणाक? तो आशिल्लोच मात्सो अर्दवट.

आजो मेल्ल्यान ते आतां दोगच उरिल्ले. आटव्याच्या कर्तुबांनी तो सामको विटिल्लो. आटव्याक खंयय तरी कामाक लायिल्लो बरो. ताणे येवजिलें. गांवांत तांकां सगळे वळखताले. आटव्याक कोणच काम दिनाशिल्ले. पयशिल्या गांवांत गेले बगर आटव्याक काम मेळचें ना अशें ताणे येवजिलें.

दुसऱ्या दिसाक आटव्याक घेवन तो वाटेक लागलो. दोन तीन दोंगर हुपून तो शिरोड्या पावलो. कुळागरांतल्यान वतना तांकां वाटेर केशव भट मेळ्ळो.

''कोण रे तुमी? आनी खंय वतात?'' केशव भटान हटकिलें. ''आमी मानांय. काम सोदपाक आमी दांड्या वेल्यान आयल्यात.''

बिटव्यान जाप दिली.

''म्हाका एक मानाय जाय. रावशात तुमी? काम तशें चड ना. फकत कुळागर सांबाळपाचें. पगार चड दिवचो ना. पोटभर जेवपाक मेळटलें. जाता जाल्यार सांग'' भटान म्हणलें.

''कांय हरकत ना, हांव म्हज्या ह्या भावाक तुमगेर दवरतां.

तुमी सांगतात तीं सगलीं कामां तो करतलो. पगार बिगार नाका. ताका दोन वेळचें पोटभर वाडल्यार पुरो.''

पगार नाका म्हणलें तें आयकुनच भट भुल्लुसलो. आटवो पळोवंक सामको पाप्यापितर कसो आशिल्लो. ताका जेवण आनीक कितलें लागतलें? मूठभर वाडल्यार हाचें पोट तटतटतलें. सगळो फायदोच फायदो. फुकसवाय मानाय मेळ्ळो. ताच्या मनांत लाड्डू फुट्टाले.

''हय चलता. कांयच हरकत ना.'' भटान खोशयेन सांगलें.

''पूण म्हजी एक सर्त आसा. म्हज्या भावाक तुमी केन्नाच कामावेल्यान काडूंक जायना. काडशात जाल्यार तुमकां आपल्या फाटीची पयशा येदी चामडी काडून दिवची पडटली. तोय बी तुमकां सोडून वचचो ना. गेल्यार ताच्या फाटीची पयशायेदी चामडी तुमी काडून घेयात.''

असो फुकसवाय घराकडेन चलत आयिल्लो मानाय तो कसो सोडटलो? शिवाय हालीं मानाय मेळप म्हळ्यार भोव कुस्तार जातालें.

फाटी फुडें येवजिनासतना ताणे सर्त मान्य केली.

बिटव्याकय तेंच जाय आशिल्लें. अर्धकुट्या आटव्याची पिडा केन्ना काय वाटेक लायन अशें ताका जाल्लें.

आटव्याक भटागेर सोडून तो दांड्यार परतलो.

केशव भट आटव्याक घेवन घरा आयलो. दनपार जाल्ली.

हातपांय धुवून तो जेवणाक बसलो. आटव्याकय वाड अशी ताणे बायलेक कुरू केली.

"चल रे, पोरसांतल्यान केळीपान कापून हाड." तिणे आटव्याक सांगलें. आटवो पोरसांत गेलो आनी ताणे एक व्हडली शिर्ती कापून हाडली. केळीचें अर्दें पानच म्हळ्यार जाता. फुड्यांत शिर्ती घेवन तो बसलो. भटीण वाडपाक गेल्यार हाचे मुखार एदें व्हडलें पान.

"आरे, केदी व्हडली शिर्ती रे? ल्हान कर ती." पूण आटव्याच्या कानांत ती उतरां वचपाचें नांव घेना. तिणे चार दायो शीत ताच्या पानार वाडलें. तो पुरो म्हणी ना. तिणे अजून दोन दायो शीत वाडलें. शिताचो दोंगर जालो तरी हो पुरो म्हणून सांगीच ना. "आनी वाडूं रे?" तिणे विचारलें जाल्यार हाणे हय म्हण तकली हालयली. पडीचें शीत पानार वाडल्यारय हो अजून वाड म्हणटा. निमणे तिणे तपल्यांतलें सगळें शीत ताच्या पानार घालें. रोस वाडपाक गेल्यारय तीच तरा. निमणे रोसाचो तोप तिणे ताच्या शिताच्या बोडार रितो केलो.

आटवो दिसतालो पाप्या पितर कसो पूण जेवपाक बकासूर कसो आशिल्लो. शिताच्यो उंडयो करून करून ताणे पोटांत रिगयल्यो. भटणीचो रोस आज जाल्लोय बरो रुचीक. जेवतकीर ताणे हात चाटून निव्वळ केलो. आनयेक आटव्याचें शीत वाडल्यारय तो पोटांत रिगयता आशिल्लो. भटणीन कपलार हात मारलो. भटाचे दोळे वरशे जाल्ले. भटान येवजिल्लें कितें,

आनी घडटालें दुसरेंच. हो आटवो जेवणाकच म्हारग जातलो अशें ताका पयल्याच दिसाक जाणवलें. 'आसूं, पगार काय ना न्ही, जेवल्यार जेवूं' तो मनांतल्या मनांत म्हणटालो.

दुसऱ्या दिसाक साकून भटीण ताच्या खातीर उकड्याचें शीत करूंक लागली. आटवो कितलेंय वाडल्यार फस्त करतालो. भटीण ताका वाडटाली आनी भितर वताली. आनी वाडूं काय म्हण विचारनाशिल्ली. दोन पडीचें शीतय ताका चलतालें.

जालें, कांय दीस अशेच गेले. एक दीस भटान आटव्याक सांगलें, ''आटव्या कुळागरांतलीं वाडिल्लीं झोपां नीट संवकाळ आनी कुळागर लीप कर. सांजे वेळार येवन हांव नियाळ घेतलों.''

भटाची ओर्द पडली आनी आटवो आंग मोडून कामाक लागलो. भट घरा येवचे पयलीं ताका कुळागर चकचकीत करपाचें आशिल्लें. दीसभर राबून ताणे कुळागर लीप केलें. मरसर काम केल्ल्यान ताचो पोरसांतच दोळो लागलो.

सांजेचो भट आयलो. तो कुळागरांत गेलो. पळय जाल्यार सगळें कुळागर भुंयसपाट. आटव्यान सगळ्या कुळागराचें निःसंतान केल्लें. हेरशिल्या झोपां वांगडा माडयो आनी केळी सकट सगळीं झाडां आड घाल्लीं. भट साम्मको धवो फटफटीत पडलो. देवा, हांवें सांगलें कितें आनी ताणे केलें कितें? हांवच पिसों. ताका हांवें नीट समजावन सांगपाचें. म्हजेंच चुकलें. दुसरे फावट हांव ताका सारकें सांगतलों. ताणे मनांत गांठ बांधली.

एक दीस भट शिरदोणा वतालो. थंय ताची भयण दिल्ली. भयणीक दिवपाक ताणे रसबाळ्या केंळ्यांचें एक घडावलें घेतिल्लें. बायलेन ताका तुपाचो विज्र दिल्लो आनी साखरेची भरणी दिल्ली. भटान घडाय आपल्या फाटीक मारलो. तुपाचो विज्र आनी साकरेची बरणी आटव्याकडेन दिली.

दोगय जाण शिरदोणची वाट चलताले. आंगणांतल्यान पांय भायर घालतनाच भटान ताका सांगिल्लें, "आटव्या म्हज्या फाटल्या फाटल्यान यो. एक मात् लक्षांत दवर केळ्याच्या घडायाक हात लावपाचो ना. म्हज्या फाटीकय दोळे आसात. तुवें केळ्याक हात लायले बरोबर म्हाका जुस्त कळटलें. तूं खातलो जाल्यार म्हाका सांगून खा." ताणे आटव्याच्या मनांत भंय घालो. करतां करतां ताणी अर्द वाट सोंपयली. चलून चलून आटव्याक पुरो जाल्लें. ताच्या पोटांत कावळे रडूंक लागले. भटाच्या फाटीवेलो पिको घडाय ताका साद घालतालो. कुरू करतालो.

ताणे विचार केलो भटाच्या फाटीक दोळे आसात तेन्ना ताच्या फाटीक दाखोवन केळे खावचें. तो एकेक केळें काडटालो तुपांत बुडयतालो, साखरेंत घोळयतालो आनी भटाच्या फाटीक दाखोवन दाखोवन खातालो. शिरदोणा पावतासर केळ्यां घडायाचो फकत दांडोच उरलो. भटाकय पुरो जाल्ल्यान तें लक्षांतच येवंक ना.

भयणीगेर वचून घडाय सकल दवर जाल्यार ताका आसा कितें? अर्दकुट्यो साली. तुपाचो विज्र आनी साकरेची भरणी

दळाक तेंकिल्ली. ''आटव्या तुवें हें कितें केलें. सगळो घडायच फस्त केलो? तुका सांगिल्लें मरे हांवें, म्हाका सांगल्या बगर घडायाक हात लायनाका म्हूण?

''सायबा, तुमकां सांगूनच हांवें केळीं खाल्लीं. तुमी म्हाका सांगिल्लें तुमच्या फाटीक दोळे आसात म्हण. हांवें सगळीं केळीं तुमच्या फाटीक दाखोवन दाखोवन खाल्यांत. खरेंच हांव फट मारीना.''

भटाची अक्कल ताचेरच परतल्ली. बाजारांत दुसरो घडाय, तूप आनी साखर विकती घेवन ताणे भयणीगेर व्हेली.

गेल्ले स म्हयने ह्या आटव्यान ताका नाका शिंवर केल्लें. सांगिल्लीं कामां थंयंच उरतालीं आनी हो भलतेंच कितेंय करतालो. ताच्या मनांत येतालें बिटव्याक आपोवचें आनी ताका धाडचो घरा. पूण ताका घरा धाडल्यार पयशायेदी फाटीची चामडी काडून दिवची पडटली आसली. ताणे वडी मारली.

करतां करतां वर्स जायत आयलें. भट पाशियेंस काडटालो. एक दीस भटागेर बापायचें श्राद्ध आशिल्लें. भट देवस्पणाक बशिल्लो. भटीण अनवाळ्याची रांदताली. इतलें म्हणसर परसाकडेन गेल्लें तांचें चली फुलू आंगणांत आयलें. ''आई धूय म्हाका.'' तें थंयसून आड्डी मारतालें. ''ओगी राव गो सभाग्या! धाडटां कोणाकूय धुवपाक तुका.'' अनवाळ्यांतली ती कशी वताशिल्ली? मुखारच तिका आटवो दिसलो. ''आटव्या चल रे. ताका बांयचेर व्हर आनी धुवन काड.'' आटव्यान फुलूक उबारून बांयचेर व्हेलें. भटणीन धुवून काड म्हणिल्लेंच ताच्या

तकलेन घुशिल्लें. ताणे वेळ केलो ना. बांयचे कोळशे काडले आनी फुलूच्या तकले वयल्यान ओतयले. ताच्या दोक्यांक धरले आनी फातरीर बरे आपटिलें. कपडे धुयतात तशे ताणे ताका पलवण्यांक झंझाळावन काडलें. फुलू आत्ताक मेलें. ताचें आंग रक्तान भरलें. ताणे ताका व्हेलें आनी वयेचेर सुकत घालें.

बरो वेळ जालो अजून फुलू घरा कशें येना काय?

"आटव्या फुलूक मातशें सोद रे. जेवचो वेळ जालो." भटणीन सांगलें.

"होनीबाय, फुलूक सोदची गरज ना. तें पळय हांवें ताका वयेचेर सुकत घालां."

"कितें सुकत घालां?"

हो आनी कितें सांगता? आटवो कितें सांगता तें तिका ध्यानांतच आयलें ना. तिणे भायर येवन पळय जाल्यार चामळ कशें फुलूचें मडें वयेचेर सुकता. तिणे एकच आकांत केलो. हड्डें बडोवन ती रडूंक लागली. तिची बोब आयकून केशव भट भायर आयलो. आटव्यान केल्लें काम पळोवन तो घुंवळ येवन पडलो.

भटाक घुंवळ आयिल्ली पळोवन आटव्यान ताच्या तोंडार उदक मारलें. सावशीत जातगीर ताणे भटाक विचारलें, "हायें फुलूबायेक बेस धुतलां न्हू?"

भटाक रडचें काय ताचेर फुलोवचें हेंच समजना जालें. ही खंयची पनवत आपले फाटल्यान लावन घेतली अशें ताका जालें. ह्या येंड्याक हाचे फुडें कामाक दवरप म्हळ्यार नसती

आफत विकती घेवची पडटली. हाका आतां निखळावचोच पडटलो. ताणे मनांत निश्चेव केलो.

वेळ करनास्तना ताणे उर्जेंत बिटव्याक रकाद दिवन आफोवन हाडलो. ताणे सांगलें, "बिटव्या, तुजी ही बिलामत म्हाका नाका. तूं ताका घेवन वच. तुका म्हज्या फाटीची पयशायेदी चामडी जाय मरे? काड, तूंच काड चामडी आनी तोंड काळें कर."

आपल्या भावान केल्लीं कर्मां ताका कळ्ळीं. आपल्या भावाक लागून ताची धूव मेली हाचो ताका शितमेंत जालो. आटव्याक घेवन तो मोन्यांनी भायर सरलो.

आटव्याक दवरपाक दुसरो कोणय बोबडो मेळत काय...? अशें तो येवजितालो. पूण ताणे विचार केलो असल्या अर्दकुट्या भावाक दुसऱ्यागेर दवरून तांच्या जीवार उठचेपरस मानसोपचार हॉस्पिटलांत दवरिल्लो बरो. ताणे ताका मानसीक दुयेंतिंच्या हॉस्पिटलांत दवरलो. दर वर्साक तो ताची खबर घेवन येता पूण अजून तरी ताका बरी खबर मेळूंक ना. पळोवया आटवो जाग्यार येवपाक कितलीं वर्सां लागतात तीं.

देख : **तकलेन फ्राक आशिल्ल्या मनशाचें चित्र काडूंक येना. तो कितेंय करूंक शकता. म्हणूनच ताचेर मानसोपचार करपाची गरज आसता.**

# गिन्नाटो देवचार



मोगा आतां सामकी जाणटी जाल्ली. तिच्यान कामां जायनाशिल्लीं. जाता नजो करून बडी तेकयत ती बारीक सारीक कामां करताली. गुंडो हो तिचो नातू. जल्मतनाच ताचे पांय वांकडे आशिल्ले. तो वयान वाडिल्लो. आतां तो पंचवीस वर्सांचो जाल्लो, पूण ताची उंची वाडूंक नाशिल्ली. तो गिड्डोच उरिल्लो. खेळूंक गेल्यार भुरगीं ताका 'गिड्डो', 'गिन्नाटो' म्हण चाळयतालीं. शेंबडें पोर लेगीत ताका व्हालोर दिनाशिल्लें. ताका लागून तो खंयच वचनाशिल्लो. आजी

कितें वाडटा तें तो मुकाट्यान खातालो.

"अरे हातपांय हालय. हांव आतां जाणटी जाली. हांव चड तेप काडीतशी म्हाका दिसना. पोरा मागीर तुजें कशें जावप रे?"

आजेक ताचीच चिंता जाताली. पूण तो मात्त कसोच कानामानर घेनाशिल्लो. चलता न्ही...मागीर चलता तितले दीस चलूंक दी. मागीरचें मागीर. फाल्यां कोणे पळयलां ?

करतां करतां ताचें चडार पडलें. एक दीस तिणे ताका वडीर काडलो. "गुंड्या तुवें बसून खालां तें पुरो. फाल्यां जर तुवें चार पयशे जोडून हाडले नात जाल्यार तुज्या पानार हांव कांयच वाडचेंना. घरांत कांयच ना. म्हाकाय उपास आनी तुकाय उपास."

आतां आपली दाळ शिजना हें कळटगीच ताका हातपांय हालोवचेच पडले. 'आजे, हांव फाल्यां फांतोडेर भायर सरतां. म्हाका चार भाकऱ्यो करून दी."

आजेन आसानाशिल्लो कुंडो आसुडलो. आयिल्लयो कणयो दळून तिणे चार रोटां आनी एक भाकरी थापली. पोरसांतली एक मुंडली काडून उकडली आनी ताची पोटली बांदून गुंड्याक दिली. वांगडा भिंडांच्या तिवळाचें तांबडें गुल्ल सरबत करून दिलें.

गुंडो ती पोटली घेवन चलूंक लागलो. करतां करतां दनपार जाली. पाणयेफोणाची घाटी चडटासर ताच्या पोटांत कावळे रडूंक लागले. ताणे हेवटेन तेवटेन पळयलें. मरड माडून तो

एका व्हडल्या काऱ्याच्या रुखा पोंदाक गेलो. त्या वाठाराक दुसरो रुखच नाशिल्लो. सभोवतीं सगळो टळटळाटच आशिल्लो.

रुखा पोंदाक बसून ताणे पोटली सोडयली. ताका दिशिल्लें आजेन आपल्याक लुसलुशीत भाकऱ्यो थापल्यात आसतल्यो. पूण पळय जाल्यार फातोर कशी भाकरी आनी रोटां. भिंडांचें तिवळ आनी मुंडली. त्तो भाकरे वांगडा भाजी दिसता काय पळयतालो. ताका राग आयलो. ताणे व्हडान म्हणलें, ''आजे, खंय गे म्हजी भाजी? हीं रोटां काय हाडां गे?''

आजेन दिल्लीं तीं रोटां आतां घट्ट फातर कशीं जाल्लीं. भूक खायत रुख अशें म्हणटात. ताणे ती तांबडी गूंज तिवळाची बाटली काडून बगलेक दवरली. ताणे भाकरेचो कुडको मोडूंक केलो. तो कसोच तुटना जालो. ''हें रोट काय रानदुकराचें चामडें? सामकेंच वातड. तो फुतफुतलो. ताणे कशेय बशेन एक कुडको काडून चाबलोच. 'खटक' ताच्या दातां पोंदा फातोर चिड्डुलो. ''आवयस्, ह्या चामड्या भितर मुळसांव आसात काय कितें!'' तो फडफडलो.

आवाशिवा करून ताणे एक भाकरी खाली. ''सोपलें एकदांचें चामडें. आतां हाडां उरल्यांत तीं खातां.'' ताणे रोट हातांत काडलें. तो ओगीच बडबडटालो.

एक हाड सोपलें. दोन हाडां सोपलीं. तीन हाडां सोपलीं. अशे तरेन बडबडत ताणे चारय रोटां चाबून चाबून खालीं. 'आतां उरल्या ती ही फकत मुंडली. राव तुका हांव घोस्तान खातां.' गुंडो आपल्याकडेनच बडबडटालो.



त्या काऱ्याच्या धोलींत एक भूत रावतालें. एदोळसान तें ताचें भाशण आयकतालें. हाडां, चामडी, मुळसांव हीं उतरां ताच्या कानार पडटालीं. गुंड्यान 'मुंडली' म्हणिल्ली ती 'मुंडकी' कशें ताच्या कानार पडलें.

तें येवजुवपाक लागलें. 'हो चामडें फस्त करता, एका फाटोफाट चार हाडां करकरीत खाता. शेर्त कोणायचे तरी हात पांय आसतले ते. मुंडकी तर हाज्या भोवच घोस्ताचीशी दिसता. कोण आसत काय हो? '

ताणे सकयल नदर मारली. पळय जाल्यार ताच्या म्हऱ्यांत तांबड्या गुल्ल रक्तान भरिल्ली बाटली. भिंडांचें तिवळ ताका

रगत कशें दिसलें. त्याच वेळार गुंड्यान ती बाटली तोंडाक लायली आनी तो गटागट पिलो.

पळय रगत पिवन कशी जीब चाटता तो. शेर्त कोणय तरी देंवचारच आसतलो तो.

त्या मोटव्या प्राण्याक पळोवन तें भिलें. हो शेर्त 'गिन्नाटो देंवचार'सो दिसता. नांव आयकल्लें हांवें ताचें. केन्नाय पळोवंक ना ताका. सामको खतरनाक म्हण म्हजी बायल वारगतीण सांगताली. हो आनी हांगा कित्याक आयला? सगळें सोडून हो जुस्त म्हज्या रुखापोंदाच बसला. कितेंय तरी कारस्थान आसतलें ताच्या मतींत. हांगाच्यान ताका कशेंय करून वाटेक लावपाकच जाय. नाजाल्यार म्हजी धडगत ना. हो म्हजे बारा बिरेस्तार आनी तेरा शुक्रार करतलो.

म्हज्यान कट्टीभर रगत पिवपाक जायना आनी हो मात् बाटलीभर रगत कटाश्श... करून पिता.' इतले म्हणसर गुंड्यान एक 'डरांयक' करून सणसणीत धेंकर दिलो. त्या आवाजासरशीं तें भूत ढबक्क करून सकयल पडलें. तें धडपडत उठून उबें रावलें. तें कडकडटालें. ताणे कडकडत कडकडत गुंड्याचे पांय धरले.

"गिन्नाट्या सायबा चुकलों. तुमकां जेवतना हांवें पळयलें. म्हजी मोट्टी चूक जाली. म्हाका भोगशीय. तुमी सांगता तें हांव करतां. मागतां तें दितां. पयले फावट चूक जाली." ताणे गुंड्याचे पांय धरले.

खरें म्हळ्यार गुंड्याचो आवरो उडिल्लो. पूण ताणे उसणे

अवसान हाडलें. कित्याक म्हळ्यार पयले फावट कोणय तरी ताचेकडेन रेस्पेदान उलयतालो.

"बरें बरें करतां तुका माफ. पूण तूं म्हाका कितें दिता तें सांग. म्हाका भांगर जाय. दिवशीत तूं म्हाका?"

"बरें सायबा. तुमी ही जादूची कोंबी घेयात. तुमी फकत रातचोच हो मंत्र म्हणात,

पक् पक् पकाक,

तातीं दी फटाक!

ती कोंबी तुमकां भांगराचीं तातीं दितली."

गुंडो ती कोंबी घेवन घरा परतलो. परततना ताका रात जाली. रातचो तो वाटेर एका म्हाताऱ्याच्या घरांत रावलो. रातचें ताणे कोंबयेक पळोवन मंत्र म्हणलो.

पक् पक् पकाक, तातीं दी फटाक!

कोंबयेन ताका भांगराचें एक तातें दिलें. त्या घरच्या म्हाताऱ्यान तें पळयलें. तो सामको ल्हेंवटो. ताणे रातची ती जादूची कोंबी बदलली आनी तिच्या जाग्यार आपली कोंबी दवरली. दुसऱ्या दिसा गुंडो घरा गेलो. रातचें ताणे कोंबयेक पळोवन मंत्र म्हणलो पूण कोंबी काय तातीं दिना. म्हाका त्या भुतान शेंडी लायलीशी दिसता. ताका त्या भुताचो राग आयलो.

सकाळीं उठून तो तडक त्या भुताच्या रुखा म्हऱ्यांत गेलो. ताका पळयना फुडें तें भूत गडबडलें. "सायबा कितें जालें? तुमी परते कित्याक आयल्यात?"

“कित्याक आयल्यात? अशें वयल्यान तोंड घेवन उलयता? म्हाका फटयलें आनी वयल्यान लाग मारता?”

“ना सायबा, हांवें तुमकां फटोवंक ना. खरेंच वारगतिणीच्यान हांव फट मारीना. हे फावट हांव तुमकां हो जादूचो मोर दितां. रातचो हाका मुखार दवरात आनी म्हणात,

ईस बाई ईस, दोडका कीस.

दी रे म्हाका भांगराचें पीस.

तो मोर तुमकां भांगराचें पीस उडयतलो. तें विकात आनी पयशे करात.”

तो जादूचो मोर घेवन तो घरा परतलो.

काळोख जाल्यान परत ताका त्या म्हाताऱ्यागेर रातचो आलशिरो घेवचोच पडलो. रातचो ताणे मोर मुखार दवरलो आनी म्हणलें

“ईस बाई ईस, दोडका कीस

दी रे म्हाका भांगराचें पीस.”

मोरान एक भांगराचें पीस उडयलें. तो म्हातारो टेळणेरच आशिल्लो. ताणे तो जादूचो मोर फारायलो आनी थंय ताणे दुसरो मोर दवरलो.

गुंडो दुसरे दिसा घरा गेलो. ताणे रातचो परतो मंत्र म्हणलो. पूण मोर भांगराचें पीस कसोच उडयना जालो. हें कितें गुटलमसांव जाता? ताका त्या भुताचो सामको राग आयलो.

तो एक दांडो घेवन त्या भुता म्हऱ्यांत गेलो. भुताकय अजाप जालें हें अशें कशें जाता? हें अशें कोफुसांव कशें

जाता काय?

ताणे ताका वाटेर खंयय राविल्लो काय म्हण विचारलें. गुंड्यान ताका सगली गजाल सांगली. खंय घुस्पता तें ताका जुस्त समजलें. ताणे ताच्या हातांतलोच दांडो घेतलो आनी तो ताका मंत्रून दिलो. ताणे ताका एक मंत्र दिलो. आनी सांगलें हो मंत्र म्हण आनी दांडो उशालागीं दवर. रातचें कितें जाता तें पळय.

ते रातचो तो म्हाताऱ्यागेर रावलो. ताणे मनांतल्या मनांत मंत्र जपलो,

'काळ्या चोराचो काळो रे भेंस,

चोराच्या तोंडाक काड रे फेंस.'

जालें, रातचो तो म्हातारो कांबळ पांगरून होळूच आयलो आनी तो जादूचो दांडो समजून त्या दांड्याक हात लायलो. ते बरोबर तो दांडो आपशींच उबो जालो आनी ताणे म्हाताऱ्याक शेंकपाक सुरू केलें.

म्हातारो दुसरे कुडींत धावलो आनी ताणे कवाड धापलें. कवाडाक बुराक करून दांडो भितर घुसलो. ताणे ताचो बरो कुंडो काडलो. करता करता ताच्या तोंडांतल्यान फेंस भायर सरलो. तो बोबो मारपाक लागलो.

ताच्या बोबाट्यान गुंडो जागो जालो. पळय जाल्यार दांडो म्हाताऱ्याक बडयता. म्हातारो आडवो तिडवो जमनीर लोळटा. म्हाताऱ्यान गुंड्याचे पांय धरले. ''पुता म्हाका भोगशीय. हांवें तुजी कोंबी आनी मोर चोरिल्लो. हांव ते तुका परतें दितां.

कशेंय करून म्हजो मार थांबय. नाजाल्यार हांव मरतलों.''

गुंड्याक ताची काकुळट आयली. गुंड्यान दुसरो मंत्र म्हणलो

'हर हर महादेव, हरहर सांब

दांड्या रे बाबा आतां तूं थांब.'

ते बरोबर दांडो मारपाचो थांबलो. म्हाताऱ्यान ताची चूक मागली. ताचो म्हालवज ताणे ताका दिलो.

ती कोंबी , तो मोर आनी तो दांडो घेवन गुंडो धोलत धोलत घरा आयलो. आतां ताचें घर भरून दार ओततालें. लोक ताका 'गुंडूराव 'म्हणटाले. एक सुंदर व्हंकल सोदून आजेन ताची व्हाड्डीक केली.

---

देख : **आयिल्ल्या संकटाक भिनासतना तोंड दिल्यार आपलोच फायदो जाता.**

